# जाग

सप्या-उत्सवी वर्स

वर्स २५ ◇ आंक ५ ◇ डिसेंबर १९९८

...

रुखावळीक आयल्या जाग
कोंबरी लेगीत फुरफुरता
तळमळपी कालचो स्वास
वादळावरी घुंवघुंवता

...

आयज पळे जळींमळीं
हावेसाचे पेटल्या उजे.

...

फुडाराचे गडे तुमी
तुमी सदांच चलचें फुडें
खांदावयलें सकला उडोवन
कुसलेलें कालचें मडें

...

कळमेल्ले सगले पास
पडल्या तुटून विसकटून
तुमचे आज मेकळे हात
पाटयो चिरे तासपाचे
नवें देवूळ बांदपाचे
तरण्या पुणून उकत्या भुजांर
मळब लेगीत पेलपाचें.

...

परक्यांलें कपयाळें
कोनशेल्लें, घाणयारें
भिरकटावन दिवपाचें
आज तुमी तुमच्या हातान
नशिबाचे विणचे धागे.

...

भायल्यांचें पावल धुलें
घरच्यांचे कुटले खाले
पुरो जालें, पुरो जालें...

...

धर्तरिच्या हुमऱ्याचेर
उजवाडाचे बांगडी उबे.

जायात जागे! जायात जागे!

— मनोहरराय सरदेसाय




Tourism fosters national
integration and international
understanding
leading to World Peace.

It is our endeavour to
develop tourism in Goa
on a sound footing and
planned development for the benefit
of all peoples and prosperity
of the local populace.

Issued by



## DEPARTMENT OF TOURISM

Government of Goa
Tourist Home, Patto
PANAJI, GOA 403 001.

ाग

आंक ५ ◇ डिसेंबर १९९८

: रवीन्द्र केळेकार

ंपादी : माधवी सरदेसाय

: सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

: तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

## ह्या आंकांत



ी : रु. १००/-
खातीर : रु. ७५/-
ची पटी : रु. २५०/-
ाफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
ांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
अदीक जोडचे)

ामो:
म्हयनाळें
सालदेल अपार्टमेन्ट्स
उदादिश, पाजीफोंड,
गोंय ४०३ ६०१.

आंकाचें मोल: रु. ९/-

# नदर संपादप्याची

## स्वराज्य हें? कोण सांगता?

कांय विशयांचेर जिवार येवन बरोवचें पडटा.

आमच्या संविधानान आमकां कांय हक दिल्यात. तांतलो 'खंयच्याय वाटारांतल्या खंयच्याय मनशाक देशांतल्या दुसऱ्या खंयच्याय वाटारांत वचून नोकरी धंदो, वेपार उद्देग करपाचो' एक हक येता. ह्या हकाक लागून कितलेशे गोंयकार, मुम्बय, दिल्ली, कलकत्त्याक वचून नोकऱ्यो धंदे करूंक पावल्यात, वेपार उद्देग चलोवंक पावल्यात.

तांकां कोण आडायना.

भारत एक भौ-भाशीक, भौ-धर्मी, भौ-वंशी देश. खंयच्याय कारणाक लागून एकामेकां पसून पयसावल्ले लोक खंयच्याय कारणान एकामेकां म्हऱ्यांत येवचे, एकामेकांत एकरूप एकजीव जावचे आनी एकठांय येवन एक नवें 'भारतीयत्व' तांणी विकसावन काडचें हो उद्देश दवरिल्लो आपणा मुखार आमच्या म्हालगड्यांनी, देशाचें संविधान घडयतना. आनी, हो उद्देश तडीक वचूंक पावचो म्हूण तांणी हो हक दिल्लो आमकां.

आमी फकत आमचो हकूच चलयलो. हका वांगडा लागणूक येताली तिचो आमकां विसर पडलो. हाका लागून, आयज जेन्ना खंयचोय गोंयकार पंजाबांत वचून नोकरी धंदो करता तेन्ना गोंयकार म्हुण्णूच तो थंय वता. आनी गोंयकार म्हुण्णूच तो थंय रावता. पंजाबी जावन राविना. पंजाबी लोकांत भरसना, तांच्या सुख-दुख्खांकडेन एकरूप जायना. पंजाबी उलयना. परिणाम – पंजाबी लोकांक तो आपलोसो केन्ना दिसना. तांकां तो सदां 'भायलो' कसो दिसता आनी ताका ते सदां भायलोच लेखतात.

खंयूय वचून नोकरी धंदो करपाचो हक संविधानान 'भारतीय' नागरिकाक दिल्लो. 'गोंयकारा'क दिवंक नाशिल्लो. गोंयकार जंय गेलो थंय गोंयकारूच उरलो, तसो महाराष्ट्रीय जंय गेलो थंय महाराष्ट्रीयूच उरलो, केरळी केरळीच उरलो, बंगाली बंगालीच उरलो, पंजाबी पंजाबीच उरलो जाल्यार, भारतीय आकाराचो नागरीक निर्माण जावचो हो जो हावेस संविधानान बाळगिल्लो तो एकलो पसून तडीक व्हरूंच पावचो ना.

आतां, धरूंया, पंजाबांत वचून राविल्ल्या गोंयकारा आड पंजाबी लोक पिरंगून म्हणपाक लागले, 'हो हांगा येवन रावला खरो, पुणून हाका पंजाबाचें कांय लागना, हो आपणाक कितेंच लावन घेना, हो हांगा फकत पोटूच भरूंक आयला.' जाल्यार —

कोणें कोणाक कसलो समज घालपाचो?

बिहारांत सुमारा भायर बंगाली लोक येवन रावले आनी बिहारी तांचे आड फिर्यादी करपाक लागले तेन्ना महात्मा गांधींनी 'तुमकां बिहारांत येवन बिहारी जावन रावंक येना जाल्यार तुमी बिहार सोडून बंगालांत परते गेल्ले बरे' असो बंगाल्यांक उपदेस केल्लो. बिहारी लोकांक 'तुमी ही प्रांतीय नदर सोडून दियात, राष्ट्रीय नदरेन येवजात' असो उपदेस करूंक नाशिल्लो.

'नॅशनल इंटेग्रेशन'ची हीच 'गांधीयन वे'.

जवाहरलालजींनी एक फावट म्हळ्ळें —

'हांव भारतीय. कित्याक, हांव पंजाबांत पंजाबी जातां. बंगालांत बंगाली जातां, गुजरातांत गुजराती जावन रावतां.'

आयज गोंयकार 'भायल्यां' आड 'कंप्लेनी' करपाक लागतात तेन्ना आमचे फुडारी 'राष्ट्रीय नदरेन चिंतात' म्हूण आमकां (गोंयकारांक) उपदेस करपाक लागतात. 'बाबांनो, तुमी भायल्यान हांगा आयल्यात, तुमी आतां

हांगासरले जावन रावंक जाय. गोंयकार जावन रावात. गोंयकारांच्या सुख-दुख्खांकडेन एकरूप जायात, गोंयकारांकडेन कोंकणींत उलयात' अशें सांगूंक जाय आशिल्लें तांणी भायल्यांक. हें ते सांगिनात. सांगतात आमकां 'राष्ट्रीय नदरेन विचार करात' म्हूण. आमकां मागीर हे फुडारीच 'भायले' कशे दिसले जाल्यार दुशण कोणाक दिवपाचें?

भायल्यां खातीर मराठींत एक उतर आसा. 'उपरे' म्हूण. जांकां भूंयनिष्ठा ना ते उपरे. जांचीं पाळां मुळां जमनींत रिगूंक नात ते उपरे. उपरे खंयूय वचून रावूं – आपणालें घर, आपणालें ऑफिस, आपणाल्या राज्यांतले कोण येवन हांगा राविल्ले आसत जाल्यार ते, आनी जे बँकेंत तांचें सेवींग आसता ती बँक सोडून तांचो कोण्णा कडेन कसलोच संबंद येना. येता तो बाजारांतले सारको वयले वयलो, फकत दिवपा घेवपा पुरतो. 'आत्मीय' संबंद कोणाचकडेन येना. आनी आत्मीय संबंद नाशिल्ले लोक एका गांवांत वा एका शारांत कितलेय संख्येन रावूं, भुरावळ म्हुण्णूच रावतात. 'समाज' घडोवन केन्ना रावंक पावनात.

गोंयांत आयिल्ल्या 'भायल्यां'च्यो दोन जाती पळोवंक मेळटात—

१. हेर सगळ्या राज्यांतल्यान आयिल्ले लोक. आनी—

२. महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ले लोक.

हेर राज्यांतले लोक मुम्बय-दिल्लींत वचून रावतात तशे हांगा येवन रावल्यात. आपूण, आपणालें घर, आपणालें ऑफिस सोडून ते कोणाचे वाटेक वचनात. महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्यांची गजाल वेगळी. स्वराज्य मेळ्ळां त्या वेळार ते 'गुरू' जावन आयिल्ले. आयजूय 'गुरू'च म्हूण रावल्यात.

उपरे सगळेच कडेन आसतात. पुणून खंयचेच कडेन राज्य उपऱ्यांच्या हातांत गेल्लें कोणें पळेलां व्हय? गोंयचें गेलां. गोंयच्या प्रशासनांत गोंयकार नात: सगळे उपरे. उद्देगीक मळार गोंयकार नात. सगळे उपरे. फकत विधानसभेंत गोंयकार कित्याक आसचे, समजना. मंत्रीमंडळ उपऱ्यांचें अजून कशें जावंक ना, कळना.

गोंयकार विलीनीकरणा आड कित्याक झुजिल्ले? झुजताले ते म्हणटाले, 'सुमार दोन अडेच हजार वर्सां उपरांत पयलेच फावट गोंयकारांक आपणालो कारभार चलोवपाची संद मेळ्ळ्या, चलोवंक दियात तांकां तो धनीपणान. स्वराज्य मेळ्ळां. स्वराज्य कशें चलोवंक दियात तांकां तें.' पळेल्ले अंतीं, आपणालो कारभार आपणें धनीपणान चलोवपाचें गोंयकारांच्या नशिबांतूच नाशिल्लें म्हणचें पडटा.

पयर एकल्या स्वातंत्र्य सैनिकाक हांवें म्हळें—

'हें स्वराज्य-शें दिसच ना रे म्हाका... 'तांणी' वचचें आनी 'हांणी' येवचें म्हूण झुजिल्ले व्हय तुमी स्वातंत्र्य-सैनिक?'

ताका धसको बसलो. 'कितेंऽ.. तुज्या तोंडांतल्यान असलीं उतरां भायर सरचीं? प्रशासन चलोवपाक फावऽ सारके लोकूच सरकाराक मेळ्ळे नात जाल्यार कितें करचें सरकारान?'

म्हाका भिरभिरी मारली. म्हळें, 'म्हूण कितें कारभार काडून दिवचो उपऱ्यांच्या हातांत? फावऽ सारके लोक आपशीं निर्माण जायनात. निर्माण करचे पडटात. ते निर्माण जायसर थांबूंक जाय आशिल्लें. पस्तीस वर्सां मेळिल्लीं तुमकां सगळ्या मळांचेर फावऽ सारके गोंयकार निर्माण करपाखातीर...'

तो म्हज्या तोंडाकडेन पळेत रावलो.

हांवें म्हळें, 'गोंय मेकळें जालां त्या वेळार आमी स लाख आशिल्ले. आयज बारा लाख जाल्यात. येत्या त्या धा वसांत आमी पंचवीस लाख जाले जाल्यार अजाप मानूं नाका. गोंयांतूच गोंयकारांक अल्पसंख्य करपी कसलें प्रशासन हें? गोंयकारांक गल्फांत धाडपी आनी गोंयचे उद्देग धंदे चलोवपाक केरळांतले आंध्रांतले महाराष्ट्रांतले लोक आयात करपी कसलें 'विकास कार्य' चल्लां गोंयांत? गोंयकारांनी कसलो पोटलो तुमचो म्हूण तुमी तांच्या जिवार उठल्यात?... एक लक्ष सोंशीकपणाकूय एक शीम आसता. सोंसूं येता ते मेरेन मनीस सदांच सोंसतलो ह्या भ्रमांत रावं नाका. तरणाट्या गोंयकारां जो असंतोश तुर्ताक धुमसता ताका वाचा फोडपी कोण मुखार रावंक ना ते मेरेन मारात तुमी फोल्ग. कोण्ण येवचो ना अशें नाकात. येतलो आनी येतलो तो फकत गुंडे हातांत घेवन बॉम्ब घेवन येतलो. मागीर... पळपाक वाटो पावपाच्यो नात. ये थारायल्ल्यो बऱ्यो... स्वराज्य खंय हें! कोण सांगता?'

## घुसपल्लें जानवें – २

दुसरे आमचे परस उणाक हो संस्कार सगळ्यांत व्हडलो एक आमचो सगळ्यांचो. ह्या संस्कारान फकत दलितांचेर अन्याय न्हय. खासा ब्राह्मणांचेर लेगीत केला–

धर्मानन्द कोसंबींचे आपजिणेंत (निवेदनांत) एक प्रसंग वाचिल तांकां त्रिपिटक शिकपाची तळमळ लागता. खंय मेळटलें त्रि सोदपाकूच तांकां हांगा थंय कांय वर्सां हेडचें पडटा. अखेरेक तांकां तें खंय मेळटलें तें कळटा. 'तूं श्रीलंकेंत वच. थंय बौद्धां व्हडले विहार आसात... त्रिपिटक शिकपाक खूब जाण थंय वचून म्हणपाचें एकलो तांकां सांगता.

ते श्रीलंकेक वचूंक भायर सरतात. पुणून कशें वचचें, खंय वचचें, मेळचें, तांकां कांयच खबर नासता. मद्रासांतले महाबोधी सभेचे सिगारवेलू तांगेले हे सगळे प्रस्न सोडयतात. तांकां खंय वचचें, वे तें सांगतात. वाटखर्चाक पयशेय दितात आनी श्रीलंकेंत कांय चिटीय बरोवन दितात. धर्मानन्द श्रीलंकेंतल्या विद्योदय आश्रमा त्रिपिटकाच्या अभ्यासांत गुल्ल उरतात. तांचे निश्ठेची, चारित्र्याची, छाप तांकां शिकयतल्यांचेरूय पडटा, तशी तांचे बरोबर शिकतले पडटा.

कांय काळ वता. एक दीस तांकां आधार दिवन हांगा धाडिल्ले शि थंय पावतात. धर्मानन्द शिकताले त्याच विद्योदय आश्रमांत एक रावतात. देवमित्र नांवाचो एकलो स्थवीर तांकां धर्मानन्दांची खबर आनी म्हणटा, 'एक बरोऽ मनीस धाडला तुमी आमच्या आश्रमांत प्रामाणीक आनी साधुवृत्तिचो...'

हाचेर शिंगारवेलून कितें म्हणचें? 'हय... दिसता तो सादो-भोळ ताचेर पातयेवंक फावना. अखेरेक ब्राह्मण तो. हिन्दुस्तानांतले पातयेवपा सारके नासतात...'

धर्मानन्द म्हणटात, 'म्हाका वायट दिसलें. अजापूय जालें. ज्या म्हाका हांगा येवपाक आधार दिल्लो ताणेंच म्हजे संबंदान पातळावपाक मुखार कित्याक सरचें, म्हाका समजलें ना. आश्रमांतले सुमंगलाचार्यांचेर हाचो कांय परिणाम जालो ना ही गजाल वेगळी कांय सिंहली म्हजे पसून पयस जाले हें विसरूंक फावना...'

धर्मानन्द, मागीर, आनीक एक खबर सांगतात—

पोकुशिमा नांवाचो एकलो जपानी लश्करी अधिकारी जर्मनींत मायदेसाक परतता आसतना वाटेर श्रीलंकेंत राविल्लो. आमच्या आश्रमांत कांय जपानी भुरगे त्रिपिटक शिकतात म्हणपाचें ताका तेन्ना तो मुजरत सुमंगलाचार्यांक मेळपाक आयलो. जपानी भुरग्यांक दिल्लेबद्दल ताणें सुमंगलाचार्यांचे उपकार मानले आनी भुरग्यांच्या खातीर कांय पयशेय ताणें दिले.

ही खबर सांगून धर्मानन्द म्हणटात—

हांगा येवपाक आधार दिलो, जो म्हाका वळखतालो, ताणेंच
जे विशीं लोकांच्या मनांत गैरसमज करून दिवचो आनी
आयिल्ल्या जपानी भुरग्यांक जल्मांत पळोवंक नाशिल्ले
फाटबळ मेळचें, तांची उमेद वाडची म्हूण सुमंगलाचार्यांक
मुजरत येवन मेळचें – ह्या दोनूय घडणुकांची तुळा करतकूच
शिल्ल्या-सवरिल्ल्या देशमोगा आड जात कशी येता तें लक्षांत

* * *

चळवळींतले राजाजी म्हळ्यार शिटूक, बुदवंत, पयसलें
दर आशिल्ले मुत्सद्दी, त्यागी, तपस्वी आनी तेजिश्ट नेते.
जावचो म्हूण ते वावुरताले तेन्ना कोण तांकां 'तुमी नाकात'
लो. देश स्वतंत्र मात जाला, सत्ये खातीर सर्त सुरू जायना
ह्मण, तुमी नाकात' अशें म्हणून तांच्याच काँग्रेसी सांगात्यां
गमराजांनी तांकां कुशीक काडून उडयल्यात!

* * *

नारायणन् राष्ट्रपतीपदा खातीर उबे रावले तेन्ना तांच्या शिक्षणाचो,
अणभवाचो, कार्यक्षमतेचो कित्याचो म्हळ्यार कित्याचोच तांकां
ना. जालो फकत तांचे जातिचो. 'म्हजी जात पळोवन तुमी
दितात जाल्यार म्हाका नाका तें' अशें तांणी म्हणूंक जाय
हळें ना. कित्याक म्हणटले? जात तांकां फायद्याक पडल्या.
तांक फायद्याक पडल्या, चिड्डल्ल्या चेपिल्ल्या लोकांच्या तर
याक पडल्या. कोण्ण जात वचूंक जाय म्हणिना. म्हणटा कोण?
त जे जातीक कोण विचारी ना, कसलेंच म्हत्व उरूंक ना
लोक. ब्राह्मणांक कोण विचारी ना, कसलेंच म्हत्व उरूंक
क्त जाती वचूंक जाय, वचूंक जाय म्हूण मोटमोट्यान आड्डत
समतावादी जाला, सुधारक जाला. आत्मसंरक्षणाचें एक कवच
का जाती पसून फायदो आसा तो जाती आड एक उतर
. के. आर. नारायणन् लेगीत.
रांचो काळ वेगळो आशिल्लो. आगरकर 'वयले' जातींतले
आनी हे जातिच्या लोकांक समाजांत, प्रशासनांत ते मुस्तींत
ल्लें. तरी आसतना, ते जाती वचूंक जाय म्हणटाले. आयच्या
ज्याच्या काळांत भौजन समाजांतल्या चिड्डल्ल्या चेपिल्ल्या
कशायेक लागून'म्हत्व जोडिल्ल्या – जातींत आगरकर जल्माक
च समतावादी चळवळ सुरू जाल्या अशें म्हणूंक येतलें.

* * *

र्मान हिन्दूंक पांगळे केल्यात आनी हिन्दू राष्ट्रवादान तांकां कुड्डे
व हांगा थंय सोदूंक भोवं नाका, तुज्या काळजांतूच तो आसा,
त् त्वम् असि' अशें हिन्दू धर्म हिन्दूंक सांगता. तुजे भोंवतणी
तांच्याच काळजांत तो आसा, तांच्या बऱ्या-भल्यांतूच तुजें
आसपावता हें सादें तत्त्व तो केन्ना ताका सांगता व्हय? ना.
न्दू जेन्ना उदरगती संबंदान येवजिता तेन्ना ताचे मुखार ताचीच
उदरगत उबी रावता. दुसऱ्यांचें ताका लागना. 'तूं तो राम
मरवा दे' अशें म्हणून तो पोटतिडकीन आपणालेच उदरगतिची
पाक लागता. दुसऱ्याच्या दुख्खान तो दुख्खी जायना. दुसऱ्यांच्या
र वावुरपाची ताका इत्साय जायना.
न ताका कितें शिकयलें?
व्हड देशाचो नागरीक; खूब पुर्विल्ली, खूब नामनेची तुजी
संस्कृताय; पांच हजार वर्सां जालीं, ती अखंड चलत आयल्या. तिचे
आदल्यो, तिचें पिरायेच्यो, तिचे उपरांतच्यो सगळ्यो संस्कृतायो काळाचे
व्हांवतेंत व्हांवन ना जाल्यो. तुगेली उरल्या. तुका तिचो अभिमान दिसूंक
जाय' हाचे भायर राष्ट्रवादान ताका कांय सांगूंक ना. तूं फटींग, तूं स्वार्थी,
तूं गर्विश्ट, तूं अहंकारी, दुश्ट, नाड, घातमारो म्हूण ताका केन्ना सांगलां
व्हय? ना.

जे मेरेन मनीसपण शिकोवपी धर्म आनी दुर्गुणां आड तिडक जागोवपी – आनी ती जागी जायनाफुडें ते हुमटावन काडपाक फुरफुरून येवपी राष्ट्रवाद हिन्दूंक कोण शिकोवचो ना ते मेरेन हिन्दू हो एक व्हडलो problem जावन पडटलो सगळ्यांचो. आयजूय तो तसो जाला. घुस्पल्ल्या जानव्या वरी कितल्यो-श्यो गांठी ताच्या मनाक पडल्यात. एक सोडयतासर दुसरी पडटा. दुसरी सोडयतासर तिसरी पडटा. गांठी सुटून सुटनात.

आनीं ताचे प्रस्नूय तो कशेच सोडोवंक पावना.

फाटल्या पांच हजार वर्सांच्या काळांत तो आपणालो एकूय प्रस्न सोडोवंक पावूंक ना.

## 'विष्णुपत्नी नमस्तुभ्यम्...'

केन्ना केन्ना कांय सामान्य मनशां 'सहज म्हूण' कितेंय सांगतात आनी तें आयकतकूच धांपिल्लें कितेंय उकतें जाल्ले वरी दिसचें वा काळखांत कोणेय दिवो घालून वाट दाखोवची तशें-शें कितें जाता.

एक नवी नदर मेळटा.

म्हगेलो एक इश्ट बरो नाशिल्लो म्हूण मुम्बय गेल्लो आनी बरो जावन परतल्लो. हांव ताचे खबरेक गेल्लों. उलयतां उलयतां ताणें एक खबर सांगली. म्हणपाक लागलो, मुम्बयंत हांव म्हज्या मेवण्यागेर राविल्लों. पॅडर रोडार फ्लॅट ताचो. एके व्हड कंपनींत एका व्हड हुद्द्यार आसा. अंदू वर्स सोंपपाक तो 'रिटायर' जावपाचो आसा. ताका दोग पूत. दोगूय अमेरिकेंत आसतात. खूब जोडटात. एक धूव. ती डॉक्टर. लग्न जाल्या आनी इंग्लंडांत एका हॉस्पिटलांत काम करता. हीं कोणूच परतीं घरा येतलीं म्हणपाची म्हाका आस्त ना. आनी ताका हाची खंतूय ना. 'हांव गोंयच्यान हांगा आयिल्लों आनी हांगाच उरलों; परतो गोंयांत गेलों ना. तशीं हीं. मुम्बयंतलीं विदेशांत गेल्यांत आनी थंयचीं जाल्यांत' अशें म्हणटा. रिटायर जातकूच खंय वचचें असो ताका प्रस्न पडिल्लो. वर्स जालें, ताणें दहाणूक जमीन घेतली. पांच एकर मेळ्ळी. हे जमनीर ताणें एक ल्हानसो बंगलो बांदला आनी ताका 'पर्णकुटी' नांव दिलां. थंय वचून तो आतां रावतलो म्हणटा. एका सुक्रारा ताणें म्हाका म्हळें, 'फाल्यां शेनवार. सॅकंड सेटर्डे. परां आयतार. सोमारा पारशांची एक परब आयल्या. तीन दीस सुटी आसा. दहाणूक वचचें अशें म्हणटालों. तूं येता?' हांव ना कित्याक म्हणटलों? त्याच दिसा सांजचे आमी गेले. तो, ताची घरकान्न आनी हांव. ताचेच गाडयेन. मुम्बयच्यान दोन वरांची वाट. वाटार वार्ल्यांचो, आदिवासी लोकांचो. चिकू, माड, पेरी, आंबे असले रुखावळीन कुचकुचीत भरिल्लो. बंगलोय सुंदर. बंगल्या भोंवतणचे जमनीर ताणेंय चिकू, माड, पेरी, आंबे रोयल्यात. अजून लागूंक लागूं नात. रात आमी थंयच सारयली. दुसऱ्या दिसा दन्पारचें जेवण जातकूच तो म्हाका थंयच्यान देड वराचे वाटेर एका 'फार्मा'र घेवन गेलो. तागेल्या एका इश्टाचो 'फार्म' हो. पंदरा एकरांचो. 'तूं जाणां, हे जमनींतल्यान तो कितलें उत्पन्न काडटा तो? पोरूं वर्सा आठ लाख रुपयांचें काडिल्लें.'

'जमनींतल्यान इतलें उत्पन्न काडूं येता?' हांवें अजापान विचारलें.

'खरें दिसना, न्हय? पुणून सत्य हें एक. जमनिचेर काम करतल्याक केन्नाच निर्शेवचें पडना. सैमाच्या नेमांक पाळो दिवन मात तें करूंक जाय.'

ताणें आपणाल्या ह्या इश्टांकडेन म्हजी वळख करून दिली. 'हो म्हणटा तें खरें?' हांवें ताका विचारलें. तो मुमुरख्यांनी हांसलो. 'फकत शंबर ट्क्के खरें न्हय, दोनशें टक्के खरें.' अशें म्हणून ताणें म्हाका सैमाचे कांय नेम समजावन सांगले. 'मनशाचें जिवीत धतरिचेर निंबून उरलां तें भूंय, उदक, वारो, किडीमुयो, सुकणीं शेवणीं, झाडां पेडां भोंवतणचो वाटार हांचे मजगतीं जी क्रिया-प्रक्रिया चलता तिका लागून. मनशाच्योच न्हय, तर धतरिचेर जियेतल्या सगळ्या जिवांच्यो गरजो भागोवपाची जापसालदारकी सैमान आपणाल्या आंगार घेतल्या. सैम 'कमिटेड' ह्या कामाक. ताचे हे क्रिये-प्रक्रियेंत आपणाकडल्यान कसलीच आडखळ जावची ना इतलीच एक जतनाय मनशान घेवंक जाय. म्हणटकूच, सैम आपणालें काम सुसंगीत करीत रावता. सैम आपुणूच आपणालो विकास घडोवन हाडटा. आपुणूच आपणाक पोसवण दिता. आपुणूच आपणालें नियंत्रण करता. आपुणूच आपणाक चलयता. ताचे हे क्रिये-प्रक्रियेंत इल्ली लेगीत चूक घडना. सैमाचें हें तंत्र लक्षांत दवरून मनशान जमनीर वावरूंक जाय. तातुंतल्यान आपणाल्या उत्पन्ना वांगडा सैमाकूच पोसवण मेळत रावंक जाय. ताचीय वाड जावंक जाय.'

उपरांत ताणें सांगलें—

जमनीर काम करतल्यांचे तकलेंत कांय चुकिचे समज भरल्यात. ते पयलीं निवळावंक जाय. जमीन केन्ना खोल खणची न्हय. जमीन खोल खणली म्हणटकूच जमनी पोंदचे जीव वयर येतात. आनी ते थोडे नासतात. 'अनंत कोटी' आसतात. ते वयर येतकूच सुर्याचे तापीन, उदकान आनी हवेन मरतात. तांकां मरूंक दिवंक जायना. जमीन खणपाची ती वयल्या वयल्यान. खोल न्हय. ट्रॅक्टरान तर केन्नाच खणची न्हय. जमीन खोल खणटकूच ती खूब उत्पन्न दिता म्हणपाचो जो समज पातळ्ळा तो अन्नाडी युगांतलो. खोल खणिल्ली जमीन निसूक जाता. तिच्या पोटांत जे जीव जियेतात तेच वयर येवन मेले जाल्यार जमीन पिकाळ कशी जातली?

दुसरी गजाल — रोप्यांक सारें पडूंक जाय असो आनीक एक समज पातळ्ळा. आनी हालिंसाराक तर बाजारांत तरातरांचीं सारीं मेळपाक लागल्यांत. तीं वापरतकूच जमीन खूब उत्पन्न दिता असो एक प्रचारूय धोल ताशे बडोवन कांय जाण करपाक लागल्यात. हीं भायलीं सारीं कॅमिकल – रसायनीक. तीं केन्ना वापरचीं न्हय. सारें हें रोप्यांचें, झाडांचें अन्न म्हणटात तेंच पयलीं खरें न्हय. तें रोप्यांचेंय अन्न न्हय, जमनिचेंय न्हय. खरेपणानशीं सारें हें जमनींत जियेतल्या बारीक बारीक अनंत कोटी जिवांचें अन्न. हांव हीं भायलीं रसायनीक सारीं निखालूस वापरिना. झाडार जें पिकता तेंच हांव जमनीकडल्यान घेतां. झाडा वयल्यान गळून पडटा तें पान लेगीत हांव काडिना, भायर उडयतां. तें जमनिकूच दिवन उडयतां. तें जमनींत उरलें म्हणटकूच तें थंय कुसता. ताचें मागीर सारें जाता. हें सारें ते बारीक बारीक जीव खातात. आवयच्या दुदाचेरूच भुरग्याचो अधिकार, तिच्या रगताचेर न्हय, तसो जमनीर काम करतल्याचो अधिकार झाडार पिकता त्या दाण्याचेर वा फळाचेरूच. बाकिच्या गजालिंचो अधिकार जमनींतल्या जिवांचो – वायटिंचो, गांयडोळांचो, बॅक्टेरियांचो. लाखांनी, कोटिंनी तरांचे जीव जमनींत जियेताले तांचो. तांकां पोसवण जाय आसता. आमच्या 'फार्मा'र कांय म्हशी आनी कांय गायो आसात. तांचें शेण आनी मूत हांव जमनीक दितां. बऱ्यांतलें बरें अन्न हें ह्या जिवांचें. ते भायर, आमी हांगा गोपुरी तरेचे संडास सुरू केल्यात. तांचे पसून भांगराचें आनी रुप्याचें सारें मेळटा. तेंवूय जमनीक ओंपतां. सगळ्यांत बरें सारें हें. ह्या साऱ्याची पोसवण जिवांक मेळटा. जिवांचोय मळ झाडांक मेळटा. भूंय पिकाळ उरची अशें दिसता आसत जाल्यार हीं सेन्द्रीय सारींच जमनीक दिवंक जाय. उत्पन्न बरें येता. भायलीं सारीं दिवचीं न्हय, तीं जमनींतले जिवूच मारून उडयतात.

तिसरी गजाल — जमनीक 'भरपूर' उदक मेळूंक जाय म्हण एक समज पातळ्ळा. खरेपणानशीं भरपूर उदकाची खंयचेच जमनी ना. भूंय फकत ओली उरूंक जाय. तितलेंच उदक मेळटकूच जा पेल्यान उदकाची इल्लीय गरज ना. जमीन ओली उरप हेंच हेंच पळे (अशें म्हणून ताणें उदकाचे कांय पाट दाखयले) दोन आनी धा ईंच खोल पाट हांवें हांगा काडल्यात. आनी ते माड, पेरी हांचे मदल्यान व्हेल्यात. ह्या पाटांत हांव बांयचें उदक सोड भायर, झाडां वयल्यान गळिल्लो सगळो पालो तांतूंत उडयतां. झाड धा फूट पयसल्यान ओलसाण ओडून घेता. ह्या पाटांक लागून जाय तितली ओलसाणूय मेळटा आनी पाटांत जो सेन्द्रीय 'कोयर' ताची पोसवणूय तांकां मेळटा. चिकू आनी माड हांचीं कांय मुळां ज वयल्याच थरार आसतात. खोल जमनींत वतात तीं मुळां वेग वेगळीं. हींच झाडांक ओलसाण आनी हवा दितात. 'भरपूर' उदक पुरवणेक आडखळ हाडटा. जमनींत ओलसाण नासत जाल्यार जमनींतल्यान पोसवण दिवपी तत्त्वां ओडून घेवपाचें काम सारकें पावनात. दोनिंचें प्रमाण सांबाळूंक येवंक जाय... ह्या वाटारांत गिमांत आकांताचो. तरी आसतना आमचीं सगळीं झाडां तिवतिवीत दि हाचें कारण आमचे जमनींत 'ह्युमस' चड. ह्युमस गांयडोळ तयार दितात. गांयडोळ जमनिच्या वयल्या पंचवीस सेंटीमिटरांच्या थरांत दिसांतल्यान धा-बारा खेपो ते वयर येतात. धा बारा खेपो भितर आनी येतना एक बीळ, वतना दुसरें बीळ काडटात. गांयडोळ आ भूंय खणपाची गरजूच ना. पावसाळ्यांत तांचें काम सदचे परस नेटान चलता. भूंय 'खणपाचें' काम गांयडोळूच सगळ्यांत बरें क आमकां कांयच करचें पडना.

आनीक एक गजाल—

जमनींतली नेर काडून उडोवपाक नडणी करूंक जाय; केली ना ज शंबरांतल्या तेत्तीस वांट्यांनी उत्पन्न उणें येता असो हालिंच्या कृषि आमचो समज करून दिला. हो समज चुकिचो. नडणी म्हळ्यार नाका आशिल्लें जाल्लें आसत जाल्यार तें हुमटावन भायर मार मू? पुणून सैमांत 'नाका आशिल्लें' कितेंच जायना. जाका आमी आशिल्लें मानतात ताचो लेगीत कसलो-न्हय-कसलो उपेग आसता तें जाता. आमी जें हुमटून भायर मारतात तांचोय जमनींतल्या खूब उपेग जाता. आमी जी नेर भायर उडयतात ती कांय किडींक दिता आनी ह्यो किडी उपेगाच्यो आसतात. हालिंसाराक ह्या किडींक उडोवपाक तरांतरांचीं वखदां आमी शिंपडावंक लागल्यात. अणभव – त्यो मेल्ल्यान कांय हटी रोपे वयर सरतात आनी ते पीक दि रोप्यांकडेन सर्त करपाक लागतात. हांव नेर भायर उडयना. कापतां थंयच उडयतां. हांव केन्ना भुंयेक उगडी नागडी दवरिना, तिच्या तणाचें वा नेरिचें न्हेसण पांगुरतां. ह्या पांगरुणाक लागून तिच्यांत आशि बारीक बारीक जिवांक तापी पसून राखण मेळटा. तकलेर केंस केंस येतात, खरड पडटकूच केंस येवपाचे बंद जातात अशें म्हण न्हय? तशें हें. जमनीक खरड पडूंक दिवंक जायना. ती सुके वा वनस्पतीन धांपूंक जाय. म्हणटकूच, ती जिवी उरता... हांव ह्या पेरी, माडां मदले जमनींत काळंगां, दुदी, तवशीं रोयतां. ह्यो वाली धांपपाचेंय काम करतात आनी म्हाका फळांय दितात... देशांत क्रान्ती' सुरू जाली आनी ती सफळ करपा खातीर कोट्यांनी टन हाडून आमी जमनीर मारलीं. जमनीर आनी जमनींत भितर सुमार लाख पन्नास हजार जातिंचे जीव जियेतात – तांच्यांतलो 'लुकसान जीव शंबरांत एकूच आसता. चड न्हय. बाकिचे सगळे 'लाव करून दि जीव. हे 'लाव करून दिवपी' जीव 'लुकसान करपी' जिवांक आ

करतात. ह्या सैमाच्या 'चाका'कडेन आमी लक्ष दिलें ना. एक जीव मारपाक आमी उरिल्ल्या णव्याणव्वद जिवांचेरूय मारलीं. आर्विल्ल्या कृषितज्ञांनी विज्ञानाच्या नांवान जें अज्ञान आयज विज्ञानाच्या नांवान देशांत चलपाक लागलां. आमी काम आनी बागायतकाम चलयलां तातूंत 'लुकसान करपी' च जायना. जालो जाल्यार हें शेतकाम बागायतकामूच तांकां करता. हिका 'नॅच्युरल फार्मिंग' हें नांव लोकांनी दिलां. 'फार्मिंग' सदां 'नॅच्युरल'च आसूंक जाय. जाल्यार लुकसाण जल्माकूच येवंक पावनात.

क गजाल मुजरत सांगूंक जाय – लागसार खंय तरी तुमचे लिंबाचें एक झाड हाडून रोयात. ताचो पालो ह्या 'लुकसान नियंत्रणांत दवरतलो. तुळशिचीं झाडां रोयात. लसूण रोयात. ोत...

ान सैमाची बारकायेन नियाळणी करून आपणालें एक 'तंत्र' ंदरा एकर जमनींतल्यान ताणें पोरूं आठ लाखांचें उत्पन्न 'फार्म'शेजरा आनीक एक 'फार्म' आसा, तेवीस एकरांचो. इश्टाचो. ताणें पोरूं वर्सा पंदरा लाखांचें उत्पन्न काडलें. शेकिल्ले' मनीस. ग्रॅज्युएट. खंयूय नोकरी करून सोंपेपणान आशिल्ले. पुणून तांणी शेतकामाक जिवीत ओंपलें. तो म्हणटा, क नोकऱ्यो सोदतात, समजना... थोडिशी जमीन आसल्यार सलीच नोकरी करपाची गरज दिसची ना. दोन तीन एकर ाक आत्मनिर्भर जावपाक पुरो. हांव सदां म्हणटां, हांगा येयात कितें करतात तें पळेयात... ह्या स्वतंत्र देशाचे स्वतंत्र नागरीक आमकांच लेखूंक जाय. कित्याक, आमी देशाकडल्यान कांयच , देशाक कितेंय तरी दितात. देशाच्या उत्पन्नांत भर घालतात.'

* * *

नदर घेवन हांव परतलों. म्हळें, आमगेले म्हालगडे जमनीकडेन वय' ह्या रुपान पळेताले. तिका 'जीवधात्री' म्हणटाले. तिका लेखताले. आनी 'तुजेर पांय दवरून म्हाका चलचें पडटा, कर' अशें तिचेकडेन मागताले. ह्या म्हालगडेंयांच्या वंशजांचे ण बसला, समजना – तो आपणाले हे आवयची कात सोलून ागलो. एके वटेन झाडां मारपाक लागलो. दुसरे वटेन तरांतरांची ीर शिंपडावन तिची कूस वांझकुटी करपाक वावरूंक लागलो. एके कडेन सहारा, दुसरे कडेन गोभी, तिसरे कडेन थार ले व्हडले रेंवे-सडे ताणें निर्माण केले. आफ्रिका आनी दक्षीण रानां मारून थंयूय तो आतां असलेच रेंवे-सडे निर्माण करपाक डां आमकां 'रेझीन' दितात, फर्निचरा खातीर लाकूड दितात साराक 'फॉरेन एक्स्चेंजू'य जोडून दिवपाक लागल्यांत म्हूण गडावन बसला.

ातां सुद्दीर हाडूंक जाय. ना जाल्यार तो धर्तरि वांगडा आपुणूय जावन वतलो.

## नोबेल इनाम

चें नोबेल इनाम आमी जोडलें तें १९१३त. रवीन्द्रनाथांनी तें डून दिलें. ८५ वर्सां जालीं आतां हे खबरेक. ह्या ८५ वर्सांच्या मचे मजगतचो दुसरो कोणूच तें जोडूंक पावूंक ना. हाचो अर्थ, नोबेल इनाम जोडपाच्या पांवड्याचो एकूय साहित्यकार देशांत असो करपाचो व्हय? ह्या ८५ वर्सांच्या काळांत संवसारांत वेगळे वेगळे भाशेंतल्या ८५ साहित्यकारांक हें इनाम मेळ्ळां. तांचे मजगतच्या खूबशा जाणांचीं पुस्तकां आमकां वाचूंक मेळ्ळ्यांत. ह्या साहित्यकारांच्या पांवड्याचे आमचे मजगतीं कोणूच जाले नात अशें कशे म्हणटले आमी? रवीन्द्रनाथांचेच बंगाली भाशेंतलीं शरतचन्द्र चट्टोपाध्याय, ताराशंकर बंदोपाध्याय, विष्णू डे, आशापूर्णादेवी, महाश्वेतादेवी अशीं कितलींशीं नांवां घेवं येतात. हिन्दींतलीं प्रेमचन्द, जैनेन्द्र कुमार, अज्ञेय हांचीं घेवं येतात. गुजरातींतलीं उमाशंकर जोशी, पन्नालाल पटेल हांचीं घेवं येतात. मराठींतलीं घडये बोरकार, कुसुमाग्रज हांचीं घेवं येतीत. कन्नडांतल्या शिवराम कारंथांचें घेवं येता. मलयाळमांतलीं तघळी शिवशंकर पिलै, वायकम मुहम्मद बशीर हीं घेवं येतात. उडिया भाशेंतलें गोपीनाथ मोहन्तीचें घेवं येता. नोबेल इनामां जोडिल्ल्या फ्रॅंच, इंग्लीश, जर्मन भाशेंतल्या खंयच्याय साहित्यकारा परस खंयच्याच आंगान हांकां उणे लेखूंक येवपाचे नात. तरूय, हांचे भितरल्या कोणाकूच नोबेल इनाम मेळूंक पावूंक ना!

कांय जाण म्हणटात, हे सगळे आपापणाले भाशेंतूच बंदिस्त उरले. म्हूण तांचेकडेन कोणालें लक्ष गेलें ना. इंग्रजींत ते आयिल्ले जाल्यार येन्नासर कितलींशीं नोबेल इनामां घेवन येतले आशिल्ले.

हाकाच लागून जावंये, हालिंसाराक बऱ्या बऱ्या भारतीय साहित्यकारांच्या पुस्तकांचे इंग्रजी अणकार करपाचो वावर कांय संस्थांनी सुरू केला. खरेपणानशीं, ह्या वावरा सांगातान दुसरो एक वावर सगळ्यांत चड गरजेचो – कोणेंय तरी हातांत घेवंक जाय आशिल्लो. तो म्हळ्यार, भारतीय साहित्यकारांचें बरें बरें साहित्य **देशांतल्याच** वेगळ्या वेगळ्या भाशांनी हाडून तांकां लोकां मुखार दवरपाचो.

उमाशंकर जोशी म्हणटाले, विसाव्या शतमानांतल्या भारतीय साहित्यकारां मदलीं दोनूच नांवां सांग म्हूण कोणूय म्हाका सांगीत जाल्यार हांव रवीन्द्रनाथां फाटोफाट वायकम मुहम्मद बशीर हांचें घेतलों. आयज बशीर नात. पुणून, धरूंया, ते आशिल्ले आनी त्या वेळार कोणेंय तांचें नांव नोबेल इनामा खातीर स्विडीश अकादेमीक सुचयल्लें आनी अकादमीन, धरूंया, ताका विचारिल्लें, 'ह्या लेखकाक भारतांत कितले लोक वळखतात? कितल्या लोकांनी हाचीं पुस्तकां वाचल्यांत?' जाल्यार तो कितें जाप दितलो आशिल्लो? बशीर मराठींत आयला काय ना, म्हाका खबर ना. बंगालींत? दुबाव आसा. उमाशंकरांचे गुजराती भाशेंत? हांवें पळोवंक ना. मलयाळम सोडून दुसरे खंयचेच भाशेंत बशीर आयला, अशें दिसना. केरळी लोकांकूच तो कोण तें खबर आसा.

बशीर ज्या देशांतलो त्याच देशांत ताका कोण सारको वळखना, जाल्यार ताका स्विडीश अकादेमी नोबेल इनाम कित्याक दितली? आमकांच जाची कदर ना ताची कदर दुसरे कित्याक करतले?

अणकारांच्या मळार आमी सामकेच उदासीन. आमचे इतले उदासीन इंग्रज आशिल्ले जाल्यार टॉलस्टॉय, दोस्तॉयव्हस्की, पुश्कीन, गोर्की, सार्त्र, कामू कोणूच आमकां वाचूंक मेळचे नाशिल्ले. फकत शेक्सपीयर, मिल्टन आनी ड्रायडन वाचून आमकां संतोस मानचो पडटलो आशिल्लो. इंग्रजांनी अणकाराक मौलीक साहित्या इतलेंच म्हत्व दिलें म्हूण इंग्रजी जाणा जाल्ल्या संवसाराक विश्व-साहित्यांतलें बरें बरें सगळें वाचूंक मेळ्ळां.

पुर्तुगीज साहित्य इंग्रजीच्या मानान खूब फाटसार. पुणून तिवूय अणकारांच्या मळार जागरूक रावल्या. पुर्तुगेजींत येवंक ना असलें विश्वसाहित्यांतलें म्हत्वाचें घडये एकूय पुस्तक मेळचें ना. आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, हें काम पुर्तुगीज सरकार करिना. पुर्तुगीज लोक करतात. विश्वसाहित्यांतलें बरें पुस्तक आमचे भाशेंत येवंकूच जाय अशें म्हणून ते आपणाले भाशेंत तें हाडटात. एक 'मिशन' म्हूण हें काम करतात.

आमी? विश्वसाहित्य खंयचें, आमचेंच देशी साहित्य आमचे भाशेंत हाडिनात.

ज्या देशांतले साहित्यकारूच दुसऱ्या देशी भासांतल्या साहित्यकारांक व्हडलेशे लेखिनात त्या देशांतल्या एकाद्रया लेखकाक नोबेल इनाम मेळचें अशी उमेद तरी कशी बाळगितात आमी, समजना...

पुणून, म्हाका सांगपाचें आशिल्लें तें वेगळेंच.

नोबेल इनाम खूब जाणांक मेळ्ळां. तॉलस्तॉयाक मेळ्ळां व्हय? दॉस्तॉयव्हस्कीक मेळ्ळां व्हय? गोर्कीक मेळ्ळां व्हय? ना. कित्याक मेळूंक ना? नोबेल इनाम दितना स्विडीश अकादेमी साहित्यकाराच्या योगदानाचोच विचार करता अशें ना. दुसरीं जायतीं परिमाणां लक्षांत घेवन तें दिता. कोणाक दिल्ल्यान खंयच्या राजकी शक्तींक फाटबळ मेळटलें हाचोय विचार करून दिता. विश्व-सुंदरेचे सर्तींत वेंचून काडटात ती चली थोडीभोव सुंदर आसचीच पडटा. पुणून जे लोक ही सर्त आयोजीत करतात ते सौंदर्य-प्रसाधनांचे 'मॅन्युफॅक्चरर्स' आपणाल्या माला खातीर ज्या देशांत पेठ निर्माण करपाची आसता त्याच देशांतले चलयेचो विचार करतात. तशेंच हें नोबेल इनाम.

मात्शें आड वाटेन वचून कांय गजाली सांगच्यो पडटल्यो —

येवरोपेव लोक जंय जंय गेले थंय थंयच्या थळाव्या लोकां मजगतीं येवरोपेव रुची (tastes) निर्माण करपाचो वावरूय ते पोटतिडकीन करीत रावले. कितलींशीं वर्सां हें काम 'क्रिश्चियानिटी'चो आधार घेवन चलिल्लें. खरेपणानशीं तांकां 'क्रिश्चियानिटी'चें कांयच पडूंक नाशिल्लें. 'क्रिश्चियानिटि'च्या आधारान तांकां जग येवरोपेव संस्कृतायेच्या प्रभावांत हाडपाचें आशिल्लें. 'क्रिश्चियानिटी' हें साधन आशिल्लें. 'युरोपियनाइझेशन' हें तांचें साध्य आशिल्लें. खिस्तिकरणा परस तांणी येवरोपिकरणाक चड म्हत्व दिल्लें. आतां 'क्रिश्चियानिटी'चो असो उपेग करूंक येना. म्हूण 'क्रिश्चियानिटी'ची सुवात आयज तांणी इंग्रजी भाशेक आनी इंग्रजी 'कल्चरा'क दिल्या. येवरोपिकरणाक आतां क्रिश्चियानिटी परस इंग्रजी भाशेचो आनी 'कल्चरा'चो चड उपेग जावंक लागला. आमच्याच ह्या 'इण्डिया दॅट इज भारत' देशांत वर्सान वर्स खंय पन्नास हजार पुस्तकां उजवाडा येतात. तांतलीं पंचवीस हजार एकले इंग्रजी भाशेंतलीं आसतात. परत, हांतलीं अर्दीं इंग्लंड अमेरिकेंतल्या प्रकाशकांचीं देशी संस्करणां आसतात. इंग्रजी पुस्तकांची संवसारांतली व्हडांतली व्हड एक बाजारपेठ जाल्या आमचो हो देश. देशांत तुर्ताक सुमार अडेचशें विश्वविद्यालयां चलतात. आठ हजार कॉलेजी चलतात. साडे तीन हजार रिसर्च इन्स्टिट्यूट चलतात. देशाचें येवरोपिकरण घडोवन हाडपाच्यो 'इगजों' ह्यो नव्या काळांतल्यो.

हांचे भायर, हजारांनी एन्.जी.ओ. आसात. येद्याशा ह्या गोंयांतूच तीनशें वीस असल्यो संस्था काम करतात. एन्.जी.ओ. म्ह नॉन-गवर्नमॅन्टल ऑर्गनायझेशन्स. हांतल्यो कांय संस्था एड्स पिडे वावुरतात. कांय पर्यावरणाचे प्रस्न घेवन समाजांत लुडबूड करतात. 'सस्टेनेबल डेव्हलपमेन्टा'च्या नांवान वावर करतात. सगळ्यांक पयशे मेळटात. चोरयां न्हय, सरकारी मान्यतायेन. सरकारूच जंय पयशांचेर चलता, थंय तें कोणाक पयशे घेवंनाका म्हणटलें?

नोकऱ्योय व्हडल्यो व्हडल्यो भौ-राष्ट्रीय कंपन्यो दितात. आनी त्यो जाणां जाल्ल्यांकूच मेळटात. जंय जंय इंग्रजी भास घुसडावंक येता थंय तांणी ती घुसडायल्या.

साहित्याचें मळ मात्शें कुशीक पडिल्लें. पुणून विक्रम सेठीच्या 'द सू बॉय' पुस्तकाची सुमारा भायर तुस्त जावपाक लागली, ताची तॉलस्तॉ 'वॉर एण्ड पीस' पुस्तकाकडेन सर जावपाक लागली, आनी ताच पुस्तकान दोन कोटी रुपये 'रॉयल्टि'चे मेळोवन दिले म्हणपाचो सुरू जालो तेन्नाच मनांत पाल चुकचुकली. म्हळें, देशी भाशेंत बरो कांय लाव ना, इंग्रजींत बरयल्यार बऱ्याक पावतले अशें आमकां – आपण भाशेंत बरयतल्या साहित्यकारांक – दिसचें आनी आमी आपणाले भ बरोवपाचें सोडून इंग्रजींत बरोवपाक लागचे म्हूण हो प्रचार सुरू ना मू? विक्रम सेठी फाटोफाट अरूंधती रॉयचें नांव गडगडपाक ला म्हळें, हें नांव गडगडटा तें आमचें लक्ष आमचे भाशे वयलें उठ इंग्रजी भाशेचेर वचनू बसचें म्हूण बी न्हय मू? हालिंसाराक तर ती अ चांचण्यां आडूय उलोवपाक लागल्या! तांकां जाय तीच भास उलो लागल्या. आतां दिसपाक लागलां —

नोबेल इनाम कांय वर्सां भितर कोणाक तरी मेळपाचें आसा आ देशांत. पुणून तो देशी भाशेंत बरोवपी कोण आसचो ना. इंग्रजींत बरो कोण तरी आसतलो! देशी भाशेंत बरयतल्याक नोबेल इनाम दिवन अमेरिकनांक कांय लाव ना. हो देश इंग्लंड अमेरिकेची पुराय सां वसणूक करपाक इंग्रजींत बरोवपी साहित्यकाराकूच हे लोक व्हड क आनी माथ्यार घेवन नाचतले.

देशी भाशेंतल्या साहित्यकारांक पुराय देश वळखता असली तरी येवजण आंखले बगर ही सांस्कृतीक आगळीक आमकां परतून येवपाची ना.

✻ ✻

☐ भांगर उज्यांत घालतकूच निर्मळ जाता. तसो प्राणायाम सगळीं आंगां निर्मळ करता. प्राणायामान आंगांतले दोश जाळून निर्मळ करचे. ध्यानान अवगूण जाळून चारित्र्य निर्मळ करचें आनी संयमान विशयांच्यो ओडी जाळून मन निर्मळ करचें. निंदा सोंसची. कोणाचोच अवमान करचो न्हय. आनी कोणाचीच दुस्मानकाय मोलावन घेवची न्हय. कोणूय तिडकलो जाल्यार ताचेर तिडक काडची न्हय. कोणेंय कितेंय वायट केलें तरूय ताचें वायट चिंतचें न्हय, ताचें बरेंच करचें आनी जिबे वयल्यान केन्ना फट उतर येवंक दिवचें न्हय. न्हंये तडी वयल्या रुखा भाशेन वा रुखा वयल्या सुकण्यां शेवण्यां भाशेन तो आपणाली कूड सोडटा तो संवसाराच्या तापांतल्यान मेकळो जाता. जो हे भाशेन जियेता तो सगळीं पातकां जाळून स्वर्ग जोडटा.

— मनुस्मृती

# समर्पिता

**सुरेश पिळर्णकार**

ळुवान जायत येताली. वतांत निकतीच खरसाण येवंक लागलेली. कंवळे उबेंत सुखावताली. जाय-जायशें तें उबेचें सूख आंगभर ांक दिसूंक लागलें. आंगावेले कपडे ल्हवूच देंवोवचे आनी वांत मन सोडून न्हावन घेवचें! कांतीन आशिकुशीक नदर कोण तरी चोरयां-चोरयां आपणाक पळयता असो दुबाव बेश्टोच ं येयलो. कोण काय ? परत नदर तिरशी करीत ताणें अदमास लखीत सुर्याचेर ताची नदर पडली. हत् चोरा! ताचे सांवळे शे. सुर्यकिर्णावरी दांत चकचकले. ताणें आपले हात बेश्टेच ं काय तें अख्ख्या सुर्याकिच वेंगेंत समावंक पळेतालें. आनी दाट काळसर कुपान सुर्याक झांकळ्ळो. सगळी सृश्टच ी

किर्तें गणायता गो थंय ?'' आवयच्या उल्यान कांती सावशीत तच घरांत आयलें.

व्हरून बाबाक दिवन यो. वाट पळयत आसतलो तो.''

ती घेवन कांती शेताचे वाटेक लागलें. चलतां चलतां ताका ळकुटो दिसलो. तें लंगडी घालीत नळकुट्यान खेळूंक लागलें. ती हाल्ली आनी भुतयेचो फाळो ओलो जालो. तें खेळपाचें त्या ओल्या फाळ्याकडेन बारीक पळयलें... आनी ओगीच य जांगांमदीं ओडून घट्ट चिड्डिल्लेभशेन केली. आपणाक बी ना मू ? ताणें ओगीच भोंवतणी नदर घुंवडायली. कित्याक हालीं हालीं ताका आपणाक कोण तरी नियाळटा... आपल्या ंगार आंगभर नदर भोंवडायता असो दुबाव मारता. तें मात्शें टीक पोंग घेत ताणें आपलें निकतेंच फुडें फुडें करपी हड्डें ाचो निकटो यत्न केलो आनी निकतीच माळ घातलेले व्हंकलेवरी वू पावलां उखलीत चलूंक लागलें. चलतां चलतां तें शेताच्या ं.

बरेंच पयस आसलें. थंयच्यान ताचो बापूय एकटोच वावुरता . बांदाकुशिच्या शेतांत शेजारच्या वाड्यावयलो पावलू खणटालो. चो आडसाटो तरणाटो पावलू उगडोच आसलो. आंगार फकत आसली. तो घामान चिप्प भिजलेलो. ताच्या घटमूट आनी गलोटाचेर कांतीची नदर थिरावली. चड्डेच्या उबार जाग्याकडेन ओगीच आपले भितरच लजलें. पावलूचें ताचेकडेन लक्ष नासलें. शूत्-शूत् केलें. पावलून खणपाचें थांबयत बांदावटेन पळयलें. वन तो दांत फांकारून निवळ हांसलो. तेन्नाच कांतीच्या बापायन कुयेल घातली. ते बराबर कांती सडसडीत आपले वाटेक लू मात नदर हालयनासतना 'हय-हय' करीत मोडत मोडत वचपी ताच्या नाजूक भेंडाकडेन पळयत रावलो.

वनाफुडें बापायन कांतीक तापयलें. 'वाटेर कित्याक गणायतालें वाटेन सडसडीत चलोंक कळना तुका ?' कांती कांय एक उलयलें ना. ताणें पेजेची भुती मेरेर दवरली.

''चल ती नडणी पाटलेंत भरून न्हंयंत व्हरोन वडय'', बापायन फर्मायलें. कांती मोन्यांनी कामाक लागलें. पाड पडों ! ओगीच इश्कोल सोडलें. इश्कोलांत काय बरी मजा येताली... हे पाडा पडलेलें काम तरी करूंक पडनासलें... फाटल्या वर्सा णववेंत नापास जालें आनी घरा बसचें पडलें... अशीं कितें भुरगीं नापास जायच नात तर !... पूण बाबाकच नाका आसलें हांव इस्कोलाक गेल्लें... तेका सदींच दुबाव. आनी आईकय हांव सदीं घराच जाय आसलें...

आनी तें खरेंय आसलें. इश्कोलाक वतालें तेन्ना पसून ताची आई ताका ह्या ना त्या निमतान हप्त्यांतल्यान एक दोनदां तरी घरा दवरताली. भावंडांमदीं कांती व्हड. फाटलीं चार काचीं बुचीं भावंडां. तांचें करून घरचें काम करतां करतां आवय थकताली. कांती घरा रावलें जाल्यार तिका इल्लो आदार जातालो. आनी आवयक खंयूय कामाक वचचें पडलें जाल्यार भावंडांक पळोवपाक आनी घरकाम करपाखातीर कांतीक घरा रावचेंच पडटालें. घरकाम करून थकलें म्हणटकच अभ्यास आसूं दिसऽ. आनी अभ्यास चुकलो म्हणटकच इस्कोलाक पाडा पडूं दिसऽ. अशें करून चडसो अभ्यास चुकलो आनी परिणामी कांती णववेंत नापास जालें. नापास जालें हें ताचे आवयक आनी चड करून बापायक आयतेंच निमित्त मेळ्ळें. कांतीनय परत इस्कोलाक वचपाची व्हडलिशी उमळशीक दाखयली ना. वांगडच्यांक इस्कोलाक वयतना पळयतकच मनांत इल्लो घालमेळ जातालो. आनी शेतांत काम करूंक पडटकच इल्लें चड वायट दिसतालें.

ते रातीकडेन कांतीची आवय रांदचेकुडींतलो वावर सोंपोवन न्हिदूंक येयली. पळयत तर कांतीचो बापूय हांथरुणार वणटीक वणकोन बसला आनी विडी फुसकायता.

''कितें चिंतता ?'' तिणें घोवाक विचारलें.

''चिंततलों आनीक कितें ? वजें जड जायत येयलां.''

''कसलें वजें ?''

''आनीक कसलें ? धुवेचें तुजे. पापणिचीं लक्षणां कांय बरींऽऽ दिसनात.''

''अशें कितें केलें तर तेणें ?''

''अजून कांय करूंक ना. करीत म्हूण हुस्को जाता.''

''कसलो हुस्को ? आनी कित्या पासत ?''

''आगो, सकाळीं पेज घेवन शेतांत येतना वाटेक इनासाल्या पावलूकडेन किटकिट्टालें. हांवें कुयेल घातली तेन्ना वाटेक लागलें.''

''...''

''येन्नादर गळ्यांत आडको बांदलेलो बरो दिसता. ना तर नाक कापतलें आमचें.''

''तशें कितें पोर गळ्याक तेंकोंक ना आजून.''

''गळ्याक तेंकसर रावया म्हणटा ? रामाल्या शांतीन कितें केलें नकळो ?''

रामालें शांती क्रिस्तांव चेड्यावांगडा पळून वचून लग्न जाल्लें. गांवांत

रामाल्या घराब्याची शी थू जाल्ली ही गजाल कांतीचे आवयक खबर आसली.

''पूण कशें जातलें? पदराक कितें तरी आसूंक जाय न्हू?''

''ऊं!!'' कांतीचो बापूय हुस्कारलो. ''पळयतां हांव कशें जमता तें. फाल्यां गांवठणां वचोन येतां शाणूभटाक घेवन.''

''शाणूभटाक सो कित्याक?''

''फाटीं तो विठूच्या चेड्याविशीं सुचयतालो. पळयतां वचोन.''

''विठूलो शामू मू? बेबदड ती.''

''आगो, आयजकाल सगळेच पितात. सामको साव मेळोंक कठिणूच. दर एकल्याक कितें ना कितें वेसन आसताच. सोरो ना तर सिगार! ना तर जुगार. नातर आनीक कितें. घेता आसतलो थोडें अर्दी-मर्दी. लगीन जातकच सुदारतलो. बरो सिरवीस करता खंय. ओब्रांत आसता. थोड्या दिसांनी फिक्सय जातलो म्हणटालो. पळयतां जमता जाल्यार.''

''सारकी चवकशी केल्ली बरी न्हू?''

''म्हूण्णूच तर वयतां. जमलें तर माय मेरेन करून उडोवचें.''

''गांठीक कितें जाय मू?''

''म्हशीक लाटची म्हणटां. दोनेक हजार तरी मेळटले.''

''म्हशीक विकल्यार आमचें कशें जातलें? तिचेरूच तर संवसार चलता.''

''दोनय रेडकां जातलीं तयार आनीक सयेक म्हयन्यांनी. गायूय व्हियेतली थोड्याच दिसांनी... फुडलो भार देवाचेर!''

''हांव म्हणटालीं आसूं पोराक आनीक वर्स दोनेक वर्सां. तितलोच म्हाका आदार! आतां मात्शें धपकायल्यार पुरो. तसो धाक आसा तेका.''

''पाखां फुट्टकच खंयचो धाक आनी बांक. शांतीक कितें कांयच धाक नासलो? असो तसो कितेंय कावस घडलो जाल्यार रामाले पंक्तीक वचोन बसचें पडटलें.''

शांतीच्या कर्तुपाची याद जावन कांतीची आवय मोनी जाली.

दुसऱ्या दिसा कांतीचो बापूय शाणूभटाक घेवन गांवठणां गेलोच. सोयरिको जुळोवप शाणूभटाच्या हातचो मळ. ताणें सगळें ज्युस्त जाग्यार घातलें. दोनय वटेनची तांक जाणून घेवन, थोडेभितर बरेंतरेन जमतलें अशी माण्णी केली. न्हवऱ्याक मुदी आनी दोन हजार रुपया नगद दिवपाचें थारलें. दोन म्हयन्यां उपरांतचो म्हूर्तय थरलो.

कांतीचो बापूय खुशालभरीत जावन परतलो. म्हशीक विकल्यार दोन-अडेच हजार तरी येतले. तो हिशेब जुळोवंक बसलो. सोयऱ्यांकडच्यान कांय ना तरी एक हजार तरी मेळटलो. धुवेचें लगीन म्हणटकच लागचे इश्ट-दायजी शें-दोनशें तरी हातीक लायलेबगर रावचेनात. तिनेक हजारांनी खर्च भागलो जाल्यार सध्याक एक तरी न्हवऱ्याच्या हातीर दवरूंक मेळटलो. बाकी मागीर थोडो थोडो करून दिवं येता.

आनी घडलेंय तशेंच. चारेक हजारांवयर जमलें खरें. पूण खर्च इल्लो चडूच जालो. मुदी, दावल आनी साडयां-बिड्यांच्या सामानकच दोनेक हजार मोडले. एका हजारान कसोबसो बाकी खर्च निभयलो. आनी एक हजार न्हवऱ्याच्या हातार दवरलो.

लग्ना माटवांत न्हवरो उरिल्ल्या एका हजाराखातीर अडोवन बसलो. बाबा-पुता करून कितल्या जाणांनी कितल्या तरांनी ताका मनोवपाचो यत्न केलो, पूण कसोच आयकना. म्हूर्ताचो वगत सरत येयलो तेन्ना शाणूभटान मात्शी निबर आवाजांत मध्यस्थी केली आनी न्हवऱ्याक समजायलो. बाकी एक हजार म्हयन्याभितर दिवपाचें उतर दिले उपरांत लग्नाची माळ पडली... आनी एक हुस्को ल्हव जालो.

एक हुस्को ल्हव जाता म्हणसर दुसरो हुस्को कांतीच्या बापायच्या गळ्याक तेंकलो. म्हयन्याभितर सदच्या घरखर्चावयर एक हजार रुपया जमोवंक जाय. कशें जातलें? हरशींच दळदीर बारशाक पुजलेलें. पोटाचो फोणारो भरूंकूच मारामारी. भरीक, लग्नाच्या रिणा खातीर सगळेंच भरलेले. पावल घालुंकच वाट ना. कशें जातलें? दिल्लें उतर जाय. जांवयाक दुखोवंक फावना. धुवेचो सगळो फुडार आसा. तरी करचेंच पडटलें. लजेची गोजडी पयस शेंवटून तो कामाक मेळत तीं कामां आंगार घेत रावलो. दिसत ताचेकडेन तोंड मानायाच्या धडधाकट हातांची भिकेची कट्टी केली. इतलें सगळें म्हयन्याअखेर चारशांवयर एकठांय करप ताका जमलें ना.

ज्युस्त म्हयन्याच्या दुसऱ्याच दिसा कांती दारांत उबें. पळयनाफुडें तें धांवत वचून तिचे कुशींत रिगलें.

''आई, म्हाका पयस कित्याक केलें गे?'' तें फुट्टून फुट्टून रडूंक भरलेल्या दोळ्यांनी आवय धुवेचे फाटीवेल्यान केंसावेल्यान मायेस पोशेत रावली. तिच्या उतरांक कंठ नासलो... निकतेंच फुलूंक कळी कशें पोर म्हयन्याभितर पिसुडलेले वरी जाल्लें... खंयची येवजली आनी धुवेचें लगीन केलें अशें कांतीच्या आवय-बापायक

''बाय गो, रडों नाका. तुका आमी पयस करूंक ना. हें थोडे पयशे जमयल्यात. ते व्हरोन दी तेका. उरलेले आठ दिसांनी म्हूण सांग.'' कांतीच्या बापायन धुवेक समजणेच्या आवाजान

''बाबा, मारतलो म्हाका तो. पयशे घेवन येयना जाल्यार फाटीक बांदून यो म्हण सांगलां...'' बापायच्या पाशाणासारक्या काळजा फुटली. तांतुंतल्यान जळजळीत पाझर फुटलो. तो भितरले भितर घसघश्यांनी... आसूं दी पोराक हांगाच. एक खीण ताच्या मनांत येयलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका गांवचो उगडास जालो... सोडलें म्हण गांवभर जातलें...

''बाय, तूं कांय हुस्को करूं नाका. हांव समजायतां तेका.''

''ना बाबा, तो आयकुवचो ना. सामको हट्टी तो. कोणाचेंच आवय-बापायन लेगीत कितेंय सांगलें जाल्यार पियेवन येवन तेंका बडय करता. म्हाका धाडूं नाका थंय. पयशे धाडून दी. हांव हांगाच कांती आवयचे कुशींत चडूच रिगलें.

''बाय, गांव थुकतलो आमचेर. एका हजाराखातीर धुवेक घरांत म्हूण. शी थू जातली म्हाजी.''

कांती कांय उलयलें ना.

''आयज राव तूं. हांव पळयतां आनीक कितें जमता जाल्यार सांज कांतीचो बापूय भायर सरलो. हाताची कट्टी करून गांवभर हेडलो. रातीकडेन रिकाम्या हातांनी परतलो. रातीकडेन ताणें चारशें रुपया हातार दवरले.

''साडेतिनशें व्हरून दी तेका. पन्नास तुका खर्चाक दवर. हांव गिरायक पळयतां आनी रोखडेच उरलेले हाडून दितां.''

कांतीन मोन्यांनी पयशे घेतले.

सकाळीं उठून कांतीन बांयचेर वचून उदक हाडून हांडो भरलो रांदली. बापायक च्या करून दिली. भावंडांक पेज वाडली. आवय आपुणय पेज जेवलें. आनी तें वचूंक भायर सरलें. ताणें नदर सगळे भोंवडायली. लग्नादिसा घर सोडटना जाल्लीं ते परसय ताचीं आयज जड जाल्लीं. बाबड्या दोळ्यांनी तें आवयक पळयत रावलें. ताका वेंगेंत ओडलें. जोरगतिचे भरतेन फुगून येयल्ल्या बांदावरी तें आनी आवयचे कुशींत रिगून पोटभर रडलें. आवयक आनी भयणीक तें पळोवन धाकलीं पोरां बाबडीं जालीं. कांतीन भावंडांक लागीं तांकां बाय... बाबू करतां करतां तें भुरगेपणांत शेणलें. आंगणांतलो नळकु खेळ, लंगडी, शाळेंतल्यो आटयो-पाटयो, खोखो, हुतुतू, न्हंयंतलें दोंगरांतलें हेडप, झाडां-पेडांचेर चडून पेरां-बोरां खावपू... मागीर चेड्या आडांगपणां करता म्हण बापायचो मार... आनी सट्ट करून ताका

वल्यांची याद जाली. तशें तें भावंडांक पयस करीत सडसीत

ऐआई.''

पुता.''

पायकडेन पळयलें. ताची विडी पालवलेली. ती पालवल्या

शेतीद नासलें.

डोंच येतां बाकी पयशे घेवन. जमल्यार आयजूच येतां. सुशेगाद

ाका. सगळ्यांक विचारलां म्हण सांग.'' बापूय बराबर सांगतालो.

सोंपसरय कांती रावलें ना. चलतां चलतां ताणें तकली

थांब्यार पावलें. थंय पावलू बशिची वाट पळयत उबो आसलो.

... कोणाच्या काजराक वा मिसा-फेस्ताक बीन वयता जावंक

ीन अदमास केलो. ताका पळयतना कांतीच्या काळजांत

लागलें.

कशें आसा गो? केन्ना येयल्लें?'' पावलून हांसत ताची

यल्लें.''

रचीं सगळीं बरीं मुगो?''

ांतीक माल्शें अजाप जालें. पयलीं उलोवपाक भिडेवपी पावलू

तुरतुरीत उलयता! आंगार बरो रोब घातला म्हूण काय?

तो धीट जाला?... कपडे बरे ऊंची घातल्या. बोल्सांतय

सपाक जाय. सयशें रुपया आसत काय ताचेकडेन?... नासपाक

आमचे सारको सामको दळदिरो न्हू. तेचें स्वताचें शेत आसा.

चें. वर्साक पिकेभायर दोन-दोन मळे पिकयतात. सयशें रुपया

ेकडेन... मागल्यार दियत काय?... दियत घडये... पयशां

मागल्यार? हांव कितें दितलें? कितें आसा म्हजेसरीं?

आसलीं तिंवूय घोवान खालीं. आसा ती म्हजी कूड... तीच

ार?... दियन... ताका जाय तें दियन... मागुंदीच... तें लजेलें,

माल्शें गडबडलेंय. गळ्यांतलें मंगळसूत्र सांसपीत ताणें पदर

. पयशे मागचे?... कशें मागतलें?... ताणें भोंवतणीं पळयलें.

नासलो. ताणें मनांत उतरां घोळयलीं. पावलू, म्हज्या घोवान

हजार रुपया हाडपाक सांगल्या... तेका पयशे मेळना जाल्यार

रतलो. म्हजेकडेन चारशीं आसात. तुजेकडेन सयशीं आसल्यार

. म्हज्या घोवाक पयशे जाय, बायल नाका... हांव तेका पयशे

. तूं म्हाका हांगाच राव... मागीर तूं म्हाका पयस... पयस...

ेवन वच. जंय म्हाका कोणूच वळखुंचेनात. थंय आमी दोगांच

आनी थंयचें अख्खें जग आमचें आसतलें...

ी खऱ्यांनीच पावलू मोटरसायकल घेवन येयलो... घोड्यार

ाजकुंवराभशेन... ताणें कांतीखातीर एक बरो गुलाबीच सलवार

तो गुलाबी सलवार घालून तें मोटरसायकलीर पावलूच्या

ोनूय वटांनी पांय घालून बसलें. दोनूय हातांनी ताणें पावलूक

लो आनी ताचे फाटीर विसवलें... पावलू भुर्रऽऽकरून ताका

पयस गेलो. तीं एका दाट रानांत पावलीं. त्या रानांत एक

कुलें घर आसलें. पावलून मोटरसायकल थांबयली. तो कांतीक

जाणा कांती, म्हाज्या मोगा, हें घर हांवें तुजे खातीर बांदलां...

घेवन त्या घरांत भितर सरलो. हुंबऱ्यार तांदळांनी भरलेलें

ासलें. कांती ओडणी पदराभशेन माथ्यार घेवन माप पांयांनी

र सरलें. नवे व्हंकलेवरी... घर बरें सोबीत आसलें.. तिजुल्यांचें...

ंताले. सालांत सोफा; खुर्च्यो आनी ल्हानशी टिपॉय आसली...

ीत ओंट्याची रांदची कूड आसली. थंय एक खाट आसली.

गुबगुबीत गादयेची. गादयेर गुलाबीच चादर हांथरलेली. चादरीर गुलाबाच्यो पाकळ्यो शिंपडलेल्यो. मन धादोस करपी मंद परमळ कूडभर परमळटालो. धांपलेल्या जनेलाचेर झिळमिळीत पड्डो लुवलुवतालो. पावलून कुडिचें दार बंद केलें. ताणें कांतीक उखललें... गर गर घुंवडायलें आनी घट्ट वेंगेंत चिड्डिलें... मागीर ल्हवूच गुबगुबीत गादयेर दवरलें... ताणें आपलें तोंड कांतीच्या तोंडालागीं हाडलें. कांतीन दोळ्यांच्यो पातयो ल्हवूच धांपल्यो...

घरघरत बस फुड्यांत थांबली आनी कांती साबुद्दीर येयलें. पावलू बशिच्या दाराकडेन रावन ताका वयर चड म्हण खुणायतालो. बशींत खुबच गर्दी आसली. खूबशे लोक उबे आसले. कांती वयर चडलें आनी लागींच उबें रावलें. पावलू दारांतच उबो रावलो. कांती पावलूक म्हऱ्यांत यो म्हण शिटकावंक सोदी. पूण पावलूचें ताचेर लक्ष नासलें. तो भायर नियाळटालो.

कांतीचो थांबो येयलो तशें तें देंवपाखातीर दारार येयलें. देंवतना ताणें मुद्दामच पावलूच्या खोमसाक धरून ओडलेंशें केलें. पावलू आपलेवांगडा देंवचो अशें कांतीक खूब दिसतालें. पूण पावलू शिटकावलो ना. बस वचूंक सुटली तेन्ना पावलून ताका हात हालयलो. कांतीक आतां मात ताची तिडक मारली.

बस नदरेआड जाय म्हणसर कांती बशीक पळयत थंयच उबें रावलें. घोवाघरचे पांयवाटेकडेन पळेतना ताच्या पांयांक कांपरें भरलें. पावल उखलना जालें... बाबा गायक घेवन बाजारांत गेला आसत काय? बेगीन गेल्यार पुरो. गायक गिरायक बेग्यांच मेळ्यार पुरो... माये कुळदेवी पाव गे... तुज्या लेकराची काकळूत कर... गायचे हजारभर रुपया मेळूं दी. सातशें-आठशें तरी मेळ्यार पुरो. पयशे हातीर पडनाफुडें बाबा येतलो... पयशे घेवन येतलो... हांगाच बाबाची वाट पळयल्यार बरी! बाजाराक वचूंक सरला आसत काय तो?...

कांतीच्या बापायमुखार दुसरो उपाय नासलो वा पर्यायूय नासलो. ताणें खोमीस चडयलें आनी गोठ्यांत वचून गायचें दावें सोडयलें. गायक आमडीत तो आंगणांत येयलो. गाय हंऽऽबेऽऽ करून हांबेली. कांतीची आवय रांदचे कुडींत चूल फुंकताली. गायचो हांबो आयकून तिका ठसको लागलो. खीणभर तिका कांती 'आई गेऽऽ' म्हण उलो मारता अशें दिसलें. ती धांवतच भायर येताली. तिचो पांय लागून कुशीक आसलेली भरलेली कळशी उमथली. हें आनीक कसलें अद्रुश्ट काय देवा? ती तशीच भायर येयली. गायन मान वळून तिका पळयली आनी परत हांबेली. दुकांनी भरलेले ते मोने आवयचे दोळे दुसरे आवयक काकुळटेक येवन जायतें कितें सांगताले. मनशासारकें तिकाय हात, पांय, तोंड आसलें जाल्यार तीय धांवत येवन गळ्यांत पडून हुंडक्यांनी रडटली आसली. परतवन दितना कांतीय अशेंच मान वळून तिचेकडेन पळयतालें. गायच्या गळ्यांतल्या दाव्यासारकें कांतीकय तेन्ना गांठवलाक बांदलेलें. ते अस्तुरेचें काळीज दुसरे अस्तुरेचे मायेन भरून येयलें. आनी मन बंड करून निबर जालें. तिणें तुरतुऱ्यां वचून कांतीच्या बापायच्या हातांतलें दावें खेचून घेतलें.

''खंय घेवन वयता तिका? एकटेक खपयली तरी पोर उबंत तें उबंत. आतां हिकाय विकता? आनी पोरांक कितें घालूं? म्हाज्या हड्ड्याक आतां कितें झरी फुटपाच्यो आसात? शेर-पावशेर विकून घरांत कितेंय येता. कांय ना तर पोरांक वाडगोभर दूद तरी पिवंक मेळटा. विकूंक सरला तो कितें पोसल्या तुवें तिका? बाबडी हेडून आपलें पोट भरता आनी तुज्या भुरग्यांक पोसता!'' उलयतां उलयतां तिणें गायच्या गळ्यांतलें दावें काडलें आनी तिका सोडून दिली.

''चल गो, भर तुजें पोट खंयूय वचोन.''

बायलेचो अवतार पळोवन कांतीच्या बापायच्या पांयांतली शक्तच निस्तरली. तो थंयच उखणयां बसलो.

''हांव आनीक कितें करूं गे सायबिणी? पोराच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवं नजो.''

''आतां दिसलीं तुका धुवेच्या दोळ्यांतलीं दुकां? परकें केले उपरान्त? लग्नापयलीं केन्ना तेच्या दोळ्यांत पळयलेलें? तेन्ना तुका थंय मद दिसतालो! जिरयलो न्हू तेचो मद बरो?''

तो कपलाक हात लावन तसोच बसून रावलो. ताच्या पोटांत खतखततालें आनी हड्ड्यांत जळजळटालें. पूण गळ्यांत आंवडो आडखळल्लो.

कांतीची आवय कांय वेळ गळसण येवन बसलेल्या आपल्या घोवाकडेन पळयत रावली. पळयतां पळयतां बायलेचें मन घोवाच्या मोगान भरून आयलें. ती भितर गेली. तिणें पेटूल उगडलें. एका कापडाचे गांठीक बांदून दवरलेलें दावल काडलें. हात ताळटार घेवन जोखून पळयलें. आपल्या गळ्यांत हात भोंवडायलो. पिड्डुकांच्या मंगळसुत्रांतलो म्हुर्तमणी तिच्या हाताक लागलो. तिणें मंगळसुत्र काडलें. सणांचेर गुंथिल्लें मंगळसुत्र दांतांनी तोडलें. मणी भायर काडलो. पिड्डुकांचे पोड परथून गांठायले आनी गळ्यांत घातले. कापडाचो पालव गळ्याभोंवतणीं पांगरून घेतलो.

म्हुर्तमणी आनी दावल हातांत घेवन ती घोवा म्हऱ्यांत येवन बसली. घोवाचो कपलावेलो हात सकयल काडून तिणें दोनय वस्ती ताच्या हातार दवरल्यो.

''ऊठ. ह्यो विकून बायचीं दुकां पुसून यो.'' तिणें घोवाक सांगलें. तो अजापभरीत जावन बायलेकडेन पळयत उरलो.

''आगो, हो मणी, हें दावल, तुजी आयावपणाचीं हीं अळंकारां हांव विकूं?''

''हें पळे, तूं आसा ते मेरेन हांव आयाव आसां. तूं आसासर म्हाका कोण रांड म्हणपाचो ना. आनी म्हटलें म्हण हांव रांड जावचेंना. ह्यो वस्ती म्हाजें आयावपण न्हूं. म्हाजें आयावपण तूं.''

''पूण कोणय कितें म्हणटलो?''

''कोण कांय म्हणपाक ना. आनी म्हणटा तेंकां म्हणूं दी. कोण आमकां पोशिना. ह्यो वस्ती विकल्यो म्हण आमी उपाशीं पडपाचीं नात. गायक विकल्यार मात उपासमार जातलो. गांठीक चार पयशे एकठांय जातकच वस्ती नव्यो करूं येत.''

ताका बायलेचें म्हणणें पटलें. पूण धीर जायना आसलो.

''कांयच अनमनूं नाका. बायचीं दुकां तुजे-म्हजे बगर दुसऱ्या कोणाक दिसपाचीं नात. धूव ती आमची. तूं बापूय तशी हांव आवय तेची. पळय, हो मणी तुवें केल्लो. हें दावल म्हाज्या कुळाराचें. ह्यो दोनय वस्ती बायच्या उपकरा पडल्यो जाल्यार दोनय कुळांचे आशिर्वाद लाभतले तेका. तेचें बरें जातलें. आनी कसलोच दुबाव मनांत हाडी नासतना ऊठ आनी इतकें काम करून योच. म्हणजे हुस्को मेकळो.'' बळ्यांच घोवाक उठयत ती उठली.

दोनय वस्ती हाताच्या पोशांत घेवन ताणें मळबाकडेन पळयलें. दोळे धांपले आनी हात जोडून दोनय कुळांच्या कुळदेवांचे उपकार आठयले. वस्ती मुठींत घट्ट आंवळून तो धेंपां मारीत बाजाराचे वाटेक ... एक अरिश्ट पयस जाल्ल्याचें समाधान कांतीचे आवयच्या मुख... परजळ्ळें.

दनपार सरून गेली तरीय घोव परतूंक नाशिल्ल्यान कांतीचे ... हुस्को जालो... वस्तिंचे पुरोशे पयशे मेळूंक नात काय? अशें कशें ... दोनय वस्तिंचे कांय ना म्हटल्यार आठशें-णवशें तरी येवंकूच जाय... घेवन तो धुवेगेर गेल्लो आसूंक जाय. पयशे हातार पडलेल्यान ... खोशी जातलो... लग्ना उपरान्त पयलेच खेप धुवेगेर येयला म्हण ... जांवयान मांवाक बळयांच जेवणाक दवरून घेतला जावंक जाय. हुस्को पयस जाल्ल्यान तोवूय जेवन मात्सो विसवला आसूंक जाय. थंयच्यान येवंक वेळार बसूय मेळूंक जाय. ती आपल्याकूच समजाय... तेन्नाच एक कावळो येवन दारांत म्हसकार बसून आड्डूंक लागलो... आनी कित्याक आड्डता काय? कोण सोयरे बीन येतात काय? येयत?... येवं बाबड्यांक कोण येतात ते! तिणें विचार फाफुडलो. ... चडूच आड्डूंक लागलो. हत्... अद्बुश्ट खंयचें... तिणें हत्-हत् ... कावळ्याक धांवडायलो. ती घरांत वचूंक घुंवली तेन्ना एक फटफटी ... घरावटेन येतना दिसली.... कोण येता काय? एके मोटरसायकली... अनवळखी मनीस दारांत येवन थांबले.

''कोण जाय?'' तिणें हुस्क्याभरीत आवाजान विचारलें.

''सदा ना?''

''तो गांवठणां धुवेगेर गेला.''

''ना. तो थंय पावंक ना. आमी गांवठणच्यान येयल्यात.''

''सगळीं बरीं आसा मू?'' तिचो आवाज थरथरलो.

''कांती चड बरें ना.'' तुमकां वेगीं आपयल्यांत.

''चड बरें ना? कितें सांगतात गा तुमी? सुटसुटीत पोर म्हाजें सका... हांगच्यान धडधडीत चलोन गेलां.''

''तुमी येयात बेग्यां.'' ते मनीस कांय उलयनासतना मोटरसाय... घुंवडावन परत गेले.

आपल्या कानांचेर विश्वास दवरपाक कांतीचे आवयक जड ज... कितें जालें काय पोराक? तरांतरांच्या दुबावांनी तिचें मन दमट... घोवय घरा नासलो. कितें करचें तें तिका कळना जालें. ती धांवतच... बापोलयागेर गेली. बापोलयाकडेन स्कुटर आसली. ताका घेवन ती ... गेली.

कांतीच्या दारांत लोकांची गर्दी आसली. गर्दींत एक दोन पुल... बोवाळटाले. लोक ल्हवू आवाजांत फुतफुतताले. ती तुरतुऱ्यां घरांत ... सरली. वासरेंत कांतीचें प्रेत गोळाक लोंबकळटालें. कांतीचो बापूय ... तेंकून उखणयां बसून हुडकेतालो. पयशांचें पुडकें ताच्या हातांतच आ...

✻

---

☐ कॅन्सर केन्ना जाता?

विडी सिगरेट ओडटकूच जाता म्हणटात. तंबाखू खातकूच जाताच जाता. रस्त्या वयल्यान धांवपी ट्रक, टॅंकर, रिक्षा, बसी सोडटात तो धुंवर पोटांत घेतकूच जाता.

कांय जाण म्हणटात, चिकन सदां खायत रावीत जाल्यारूय जाता.

ह्या सगळ्या कारणां भायर आनीक कांय कारणांक लागून कॅन्सर जाता – तकलेर सदां ताण उरलो (टॅन्शन उरलें) जाल्यार तो जाता. मायेचीं उतरां जांकां चडशीं केन्ना आयकूंक मेळनात तांकांय तो जाता. आपणाक कोणाचोच आधार ना, आपूण एकलो पडलां ह्या संवसारांत अशें जांकां खोलायेन दिसपाक लागता तांकांय तो जाता.

(Insight)

# पुस्तक परिक्षण कशें आसचें ?

प्रि. सु. तडकोडकार

ह्या न्हय त्या कारणान कोंकणी साहित्याचें मळ भरपूर फुल्लां. वजण, साहित्य पसवण, ग्रंथांचो पावस आनी जात्रा, कोंकणी केल्या सरकारी संस्थांचें आर्थिक फाटबळ हाका लागून जायत्या त्यांक उजवाडांत येवपाची संद लाबल्या. विद्यापिठाच्या कोंकणी शिक्षण, शारांनी आनी गांवगिऱ्या वाठारांनी जाल्लो प्रार हाका लागुनूय साहित्याचो वाचपी वाडला. गांवागांवांनी रं केंद्रां आनी तांचीं संमेलनां, सभा, बालमेळावे, लेखक-मेळ लींक लागून वाचपी वाडला तसो बरोवपीय वाडला. लोकांची खड प्रसार-माध्यमांचेर मात करून वाडीक लागत आसा. डत वचपी ग्रंथनिर्मणी आनी वाचपी हांकां लागून आतां ग्रंथ रिक्षणां सारकेल्या बरपावळिचीय गरज उप्रासल्या. 'जाग', हे सारकीं कांय नेमाळीं आपल्याक जमता त्या प्रमाणांत क्षणां उजवाडाक हाडटात. पूण हें कामय जाय तितल्या प्रमाणांत तरेन जायना. साहित्य-नियाळ वा परिक्षण म्हळ्यार नव्यान आयिल्ल्या पुस्तकांची वाचप्यांक वळख करून दिवपाखातीर अशें सादारणपणान म्हणूं येता. ताका लागून हें बरप करतना तसलें पुस्तक वेंचून काडून बरोवंक येना. ते भायर, साबार णवत्ताय एका सारकी आसना. चडशीं नवोदित बरोवप्यांचीं तात. हांतुंतलीं कांय वाङ्मयीन गुणांनी भरिल्लीं म्हूण म्हत्वाचीं ल्यार कांय हेर गजालीं खातीर. फाटल्या कांय वर्सांत पुस्तकांक गीं व्हरपाचो यत्न ह्या ग्रंथ नियाळांनी केला अशें म्हाका तातूंत 'जाग' सारकेल्या म्हयनाळ्याचो म्हत्वाचो वांटो आसा. कोणेंय असो घेवंचो न्हय की कोंकणी वाचपी पयलीं नियाळ ताकाच लागून मागीर तें पुस्तक वाचता. ज्या पुस्तका वयलें पी वाचता तो ग्रंथ वा पुस्तक ताका वाचूंक मेळत हाची . जायत्या तेंपा उपरांत पुस्तक मेळपाची शक्यताय आसता. वाचपी हातांतलें पुस्तक पयलींच वाचून काडटा. आनी ताचे मेळत जाल्यार पुस्तक परिक्षणय वाचता. तरी, पुस्तक परिक्षणाक याची नवें पुस्तक वाचपाची उमळशीक वाडूं येता. ग्रंथपालांकय तीर पुस्तकां वेंचतना ह्या परिक्षणांचो आदार जाता. नव्या वाचप्यांक वळख करून दिवप ही आयच्या वाडट्या कोंकणी झारांतली एक म्हत्वाची गरज जाल्या. ताका लागून पुस्तक ळ्यार कितें आनी तें करतना सादारणपणान कसली जतनाय तेच प्रमाण, खंयच्या गजालिंचेर विचार करपाक जाय हाचेर चार जावप गरजेचें अशें म्हाका दिसता.

परिक्षण म्हळ्यार एखाद्र्या पुस्तकाची साबार आंगांनी केल्ली नक परिक्षणांत त्या पुस्तकाचो विस्तारान परामर्श घेतिल्लो ोच ताच्या साबार वा एखाद्र्याच आंगाचोय सुक्षीमतायेन, भ्यासय केल्लो आसता. त्या पुस्तकाच्या गुणांची दखल घेतिल्ली च तांतल्या दोशांचेरय भासाभास केल्ली आसता. हाका लागून क्षण जायत्या पांवड्यावेल्यान करतात. तांचे दोन वांटे करूं ो – पुस्तकाची सामकी आपरोसान – थोडेभितर वळख करून दिवपी आनी दुसरो – पुस्तक वळखी सांगातान त्या पुस्तकांतल्या वाङ्मय गुणांचे, शैलिचे, तांतुंतल्या विशेशांचे आस्वाद प्रक्रियेचे नदरेन स्वरूप सांगपी आनी वाचप्यांच्या मनांत पुस्तक वाचपाखातीर उमळशीक तयार करपी.

कोंकणींत 'जागां'त संक्षिप्त स्वरुपाचीं पूण पुस्तकाचे वाङ्मयीन गुणवत्तेकडेन लक्ष ओडपी अशीं आस्वादक पुस्तक परिक्षणां उजवाडा येतात. हेर भासांतल्या नेमाळ्यांनी आनी दिसाळ्यांच्या आयताराच्या आवृत्तींतल्यानय अशे तरेचीं परिक्षणां उजवाडा येतात. आयतारच्या 'सुनापरान्तां'त आनी 'राष्ट्रमतां'त हालीं तीं तशीं येवंक लागल्यांत.

दिसाळ्यांच्या अश्या खाशेल्या आवृत्तींतल्यान आयिल्ल्या परिक्षणांक फावोशें म्हत्व मेळटा अशें दिसना. उरफाटें, ह्या परिक्षणांच्या वांट्याक उपेक्षाच आयिल्ली दिसता. हाचें कारण घडये त्या परिक्षणांचो हेतू आनी स्वरूप आसूं येता. तशें पळोवंक गेल्यार दिसाळ्यांतलें परिक्षणय गंभिरतायेन, नकसुदायेन आनी आस्वादक भुमिकेंतल्यान केल्यार वाचप्यांकय वाङ्मयीन जाणविकाय करून दिवपी आनी तांचे अभिरुचीक वळण लावपी थारूं येता. दिसाळीं वाचपी लोक नेमाळ्यांच्या वाचप्यांपरस संख्येन व्हड आशिल्ल्यान त्या पुस्तकाची माहिती चडांत चड वाचप्यांमेरेन पावता. पूण परिक्षणाखातीर आयिल्ल्या पुस्तकाचें स्वरूप, ताचें म्हत्व आनी दिसाळ्यांत उपलब्ध जावपी मर्यादित सुवात हांचो तारतम्यान विचार करचो पडटा. आनी ताकाय लागून घडये ह्या परिक्षणाचो पांवडो देंवता आसुंये.

नेमाळ्यांतल्यान प्रसिद्ध जावपी परिक्षणां सामान्यतायेन मानिल्ल्या आनी लोकप्रिय बरोवप्यांच्या पुस्तकांचीं आसतात. गोवा कोंकणी अकादेमी, साहित्य अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, कला अकादेमी सारकेल्या प्रतिष्ठित संस्थांचीं इनामां फाव जाल्ल्या पुस्तकांचेर मुजरत परिक्षण बरयतात. हीं दर्जेदार पुस्तकां केन्ना केन्ना योग्य त्या वाचप्यांमेरेन पावनात. ताका लागून हांचीय वळख वाचप्यांक करून दिवची पडटा. तें काम पुस्तक परिक्षण करता. नेमाळ्यांकडेन वेगळ्या वेगळ्या प्रकाशन संस्थांकडल्यान अभिप्राया खातीर भेटपुस्तकां येतात. तांचेर बरयतना कांय बऱ्या पुस्तकांचेर दुर्लक्ष जावं येता. केन्ना केन्ना लोकांमोगाळ बरोवप्याच्या वा कलावंताच्या एखाद्र्या पुस्तकाचेर विस्तारान भासाभास जाता. पूण ताच्या हेर साबार पुस्तकांचेर ती जाताच अशें ना. कांय बरोवपी लेखक म्हूण तशे म्हत्वाचे नासतात. तरीय तांचे बरपावळिची दखल घेवप गरजेचें थरता. वसंत लवंदे हांणी शिक्षणीक मळार बरेंच काम केलां. झोतिक द सौझान गोंयच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत सक्रीय वांटो घेतला. तांचे त्या त्या वेवसायांतले आनी मळावेले अणभव सामके मौलिक स्वरुपाचे आनी म्हत्वाचेय बी. तांच्या पुस्तकांच्या परिचयान वाचप्यांक एका वेगळ्याच विश्वाचें दर्शन घडटा. तांच्या पुस्तकांनी घडये वाङ्मयीन गूण विशेश आसतातच अशें म्हणूं नजो पूण तांची विशेशताय ही तांचीच देखून परिक्षण बरोवप्याक वा तें उजवाडावप्याक तांची दखल घेवचीच पडटा. म्हणटकच वाङ्मयीन गुणवत्ता आशिल्ल्या पुस्तकाचेर जशें बरोवचें पडटा तशेंच कांय खेपे पुस्तकांतली समाजिकताय, तांतुंतल्या अणभवांचें वेगळेपण, ताची उपयुक्तताय हांचोय विचार करून त्या त्या पुस्तकाचो परिचय करचो पडटा.

आतां पुस्तक परिक्षक कसो आसचो वा पुस्तक परिक्षणाची ताची भुमिका

कशी आसची ह्या मुद्द्याचेर भासाभास केल्यार समा जातलें.

पुस्तक परिक्षकाक वाङ्मयाच्या साबार वेव्हारांविशीं कुतुहल आसपाक जाय. हांव विशिश्ट तरेच्याच आनी गुणेस्त वाङ्मयकृती विशींच बरयतलों असो आग्रो ताणें धरूं नजो. तशें केल्यार व्यापक अशा वाङ्मयाच्या वेव्हारांत उणाकपण येतलें. परिक्षण ही जशी वाचप्याची गरज तशीच ती नव्या पोरण्या बरोवप्यांचीय ! नव्यान बरोवपी आपल्या पयल्या पुस्तकाक खंयच्याय म्हालगड्या, प्रस्थापित साहित्यकाराची प्रस्तावना घेता. हाचें कारण, ताका कोणाचो तरी आदार जाय आसता. देखून प्रस्तावनेंतल्यान सहानुभूतिच्या दृष्टीकोणान ताका मुखावेलें पावल उबारूंक धीर येता. तेच तरेन आपणाले पयलेच कृतिचें परिक्षण कोणें आनी कशें केलां हे विशींय ताका तितलीच उमळशीक आसता. ताच्या पयल्या पुस्तकांत दोश आनी उणेपण आसल्यारच थंयच भविश्यकाळांतलो लिकलिकीत फुडार लिपिल्लो आसता हाची जाणविकाय परिक्षकान बरोवप्याक आनी वाचप्यांकय करून दिवपाची गरज आसता. आनी ते नदरेन आपणाल्या परिक्षणांत तारतम्य दवरूंक जाय. पोरण्या बरोवप्यांकय परिक्षणाविशीं उमळशीक आसता ती आपणाल्या लेखनांतल्या विकासाविशीं जाणून घेवपाखातीर. आपूण मुखार गेलां काय ना ? आपणाले आदले दोश आजुनय दोश म्हूण उरल्यात काय नवीं बलस्थानां आपणें दाखोवन दिल्यांत हांचेविशीं जाणून घेवपाची तांची उमळशीक लक्षांत दवरून परिक्षकान हांच्याय नव्या पुस्तकाचें परिक्षण करपाक जाय तें चड निरपेक्ष आनी वस्तुनिश्ठ पांवड्यावेल्यान.

ग्रंथपरिक्षण ही वाचप्यांची गरज मानतकच परिक्षण बरोवप्याचेर एक वेगळीच जापसालदारकी पडटा. दर नेमाळ्याचो एक विशिश्ट वाचपी आसता. परिक्षणकाराक अशा वाचप्यांचें भान दवरचें पडटा. वाचपाची आवड आशिल्लो त्या पुस्तकाचे टिकात्मक मोलावणेची अपेक्षा धरताच अशें ना. ताका जाय आसता ती आस्वादक भुमिकेंतल्यान करून दिल्ली पुस्तकाची वळख. वाचप्यांकडेन पुस्तक व्हरप, त्या पुस्तकाविशीं ताच्या मनांत उमळशीक जागोवप, वाचप्यांचे आस्वादन तांकींत भर घालप, त्या पुस्तकाची वाङ्मयाच्या मळावेली सुवात दाखोवप आनी बरोवप्याचे शैलिची वळख करून दिवप हें परिक्षणकारालें काम आसता. आपली निजाची वाङ्मयाविशिंची भुमिका सोडले बगर, आपणाल्या परिक्षणांच्या माध्यमांतल्यान ताका वाचप्यांमेरेन संवाद सादपाक येवंक जाय. हो संवाद तर्ककर्कश आनी कठोर जायनासतना खेळीमेळिचो दवरप हीच परिक्षणकाराची कळाशी आसता. देखून, आयची समिक्षा घुस्पागोंदळाची, बोजड आनी सादारण वाचप्यांसावन पयसावत गेल्या. अशे परिस्थितींत बऱ्या पुस्तकाचें रसिकतायेन केल्लें परिक्षण वाचप्यांची अभिरुची वाडोवपाक आदार करतलें. नेमाळ्यांतल्या बऱ्या दर्जेदार परिक्षणांतल्यान वाचप्यांची वाङ्मयीन जाण वाडोवपाक आनी ती अदीक बरी जावपाक आदार जातलो. आनी उपरांत तो वाचपी किचकट आनी क्लिश्ट अशेय समिक्षेक सामकार वचूंक पावतलो. ते खातीर परिक्षण करप्यान सामान्य वाचप्यांचें भान दवरून परिक्षण केल्यार तांतुंतल्यान वाचप्यांचे रसिकतायेंत भर पडटलीच !

नेमाळ्यांतलें परिक्षण म्हळ्यार त्या पुस्तकाक रोखडोच मेळिल्लो प्रतिसाद आसता. निकत्याच उजवाडा आयिल्ल्या पुस्तकावेली ती ताची प्रतिक्रिया आसता. पुस्तक परिक्षण हें तात्कालिक आनी कालसापेक्ष आसता. परिक्षकाचें व्यक्तिमत्व, ग्रंथपरिक्षणाचो विशिश्ट काळ हांचो संबंध परिक्षणाकडेन आसता. देखूनच एखाद्रया पुस्तकाविशीं परिक्षकान उकतायलेली प्रतिक्रिया वा मत्तां मुखार बदलपाचीय शक्यताय आसता. देखुनच ताणें आपणालीं आग्रही मत्तां मांडूं नये.

ग्रंथ परिक्षणां समिक्षापद्ददतिचीं पडबिंबां आसतात. तशींच तीं वाङ् इतिहासाचे नदरेनय म्हत्वाचीं आसतात. पुस्तक परिक्षण समिक्ष आनी वाङ्मयेतिहास हांचो परस्पर संबंद आसता. साहित्याचो इ बरयतल्याक आपल्या काळावेल्या आनी आदल्या काळावेल्या ग्रंथपरि सोद घेवन इतिहास बरोवंचो पडटा. पुस्तक परिक्षण, आनी साहि इतिहास हांचे विशीं ज्ञानकोशकार श्रीधर व्यंकटेश केतकरांच्या कांय उगडास जाता. 'विविध-ज्ञानविस्तार' ह्या तांच्या समकालीन नेमाळ पुस्तक-परिक्षणां वाचून तांणी आपणालें हें मत्त दिलां. ते म्हणट 'किरकोळ दोश आनी ग्रंथकारांक चुकीन लायिल्ले दोश सोडल्यार शें-सवायशें परिक्षणां एकठांय करून तांतुंतलो तात्त्विक विचार मांडल्यार काव्य परिक्षात्मक असो एक बरो ग्रंथ जावं येता. आनी सां फाटल्या ५० वर्सांच्या साहित्याचो इतिहासय दिवं येता. खटल्याचे घेवन कायदो शिकपाची एक पद्धत आसा. हेच तरेन, प्रसिद्ध जाल्ले टिकेच्या संग्रहांचे अभ्यास करून साहित्य-शास्त्र कित्याक न्हय ?'

*

# धतरिक जाग येता तेन्ना

## लक्ष्मीदास बोरकार

रेक सकाळफुडें जाग येता,
 भोंवतणीं धांवता,
य सकाळफुडें जाग येता,
 भोंवतणी धांवक लागता,
 म्हणून दुसरो धांवता,
 धांवता, कोणाक खबर नासता,
ांवप्यांचो आंकडो वाडत वेता,
का मॅराथॉन सर्तिचें रूप येता.
 वरळी सी फेसार वेतां,
ची सर्त पळेतां.
हातांत फुलांचो हार घेवन येता,
ां देवळाच्या प्राकारांत घुसता,
हातांत रोझरी घेवन येता,
ां इगर्जे भितर सरता,
तकलेक लेंस बांदून येता,
ां मशिदी भितर पावता,
गाराणें घालतात –
 – अल्ला, म्हगेले पिरायेक एक्स्टेंशन दियात,
 सोडून एका बांकार बसतां,
सावेली धांवपाची सर्त पळेतां,
रां वेळेर एक अप्रूप देखाव दिसता,
विधी' करप्यां फाटल्यान पुलीस धांवतात
 सांबाळीत 'विधी'कार धांवतात.
-चलयो ड्रिल करीत धांवतात,
ट शिक्षक पिल्लूक वाजयत धांवतात,
सेच्या ड्रेसांत शिस्तीन धांवतात,
ावपाक लष्करी अधिकारीय धांवतात,
लोक बारीक जावपाखातीर धांवतात,
डयो लठ्ठ जावपाखातीर धांवतात,
 भुरगीं-बायलां, सगळींच धांवतात,
ी भलायकी सांबाळपाखातीर धांवतात,
 शक्त वाडोवपाखातीर धांवतात,
प्रकृतीक आराम मेळपाखातीर धांवतात,
ाळफुडें धांवपाचो व्यायाम करपाचो
 दोतोरय दुयेंती फुडें धांवता,
येक घेवन येवपी फॅशनेबल बायलो,
 म्हणून तांचे फाटल्यान धांवतात
दीं झगडीं जातात, तीं एकामेकांचेर गुरगुरतात,
ंक मालकीण बायलो धांवतात,
कांय लठ्ठ बायलो धांवपाक म्हूण येतात,
पूण खिणाभितर पुरो जावन बसकण मारतात.
भुरगीं मजा करपाखातीर फाटींफुडें धांवतात.
वरळी सी-फेसाचेर एके कुशींतल्या गार्डनांत
हांसपाचे सर्तींत वांटो घेवपाक जायते लोक धांवतात,
दुसरे कुशीक फूटपाथार वळीन फुड्यांत थाळी घेवन
गिरेस्ताच्या फाटल्यान भिकारी धांवतात,
हांसप्यांचे सर्तींतलो 'हो: हो: हा: हा:'चे वयल्या सप्तकांतले
सूर आयकून रडपाक येता,
'देना' बँकेंतल्या गरजवंतांचे सकयल्या सप्तकांतले
रडगाण्याचे सूर आयकून हांसपाक येता,
राजकारणांत 'पडिल्ले' फुडारी मॅराथॉन सर्तेंत
वांटो घेवपाखातीर धांवतात,
क्रिकेट खेळांत 'चमकिल्ले' खेळगडे ग्राऊंडार
रन काडपाचे इत्सेन धांविल्लेभशेन धांवतात,
चित्रपटांत खुमणीं रंगयिल्ले फिल्मस्टारांनी
धांवपाचो अभिनय केल्लेभशेन धांवतात,
शिरंमत लोक मोटारिंनी येवन पांय सदळ
करपाक ल्हवू ल्हवू धांवतात,
भगवीं वस्त्रां घाल्ले बुवा अध्यात्म शिकोवपाखातीर धांवतात,
मिष्टान्नां खावन अजीर्ण जाल्ले लोक
जिरवणेक कोडू पाल्याचो रोस घेवपाक धांवतात,
व्यायाम म्हणून धांवपी लोकां फाटल्यान
हात-पांय मोडके भिकारी पोटाखातीर धांवतात,
मोग करपाक बरी सुवात नाशिल्ले लव्हबर्डस
वरळी सी-फेसाच्या उकत्या जाग्यार धांवतात.

ह्या मॅराथॉन धांवपाचे सर्तीक 'राष्ट्रीय एकचारा'चें रूप येवपाक सगळ्या जातिंचे, धर्मांचे, वेवसायांचे, वर्गांचे लोक धांवतात, एकच ध्येय दोळ्यांमुखार दवरतात. आपली जीण जाता तितली लांब जावची अशी देवालागीं प्रार्थना करतात.

पूण कोणच 'असतो मा सद्गमय। तमसो मा ज्योतिर्गमय। मृत्योर्मामृतं गमय।' (हे प्रभू, म्हाका असत्याकडल्यान सत्याकडेन व्हर, म्हाका काळखांतल्यान उजवाडाकडेन आनी मर्णापासून अमरत्वाकडेन घेवन वच) अशी देवाकडेन प्रार्थना करिनात.

देखून, जेन्ना धतरिवेल्या मनशाक जाग येवन तो सकाळफुडें धांवपाचे सर्तेंत वांटो घेवन धांवपाक लागता तेन्ना ते मॅराथॉन सर्तेक सुवार्थाचें गिराण लागता आनी सर्तेचो निकाल केन्नातरी लागतलो हाची ताका वाट पळेत रावचें पडटा.

* * *

# तीर-सुवादीक कॉलम...

दिलीप बोरकार

राण्याचें सरकार पडलें, विलीचें आयलें
विलीचें पडलें, लुइझीनाचें आयलें
आतां लुइझीनाचें पडटलें आनी तेरेझीनाचें येतलें.
हें तेरेझीन कोण हें म्हाकाय खबर ना.
कित्याक, कोणाचें पडलें, कोणाचें आयलें, पडलां कोणाक ?
म्हाका ताचो लावूय ना आनी लुकसानूय !
हांव भाशा मंडळाचो उपाध्यक्ष
सरकारां पडल्यार अकादमीचीं अध्यक्षपदां बदलतात
देखून तांच्या अध्यक्षांक कोण पडलो कोण आयलो
हाचेर लक्ष दवरचें पडटा.
पूण भाशा मंडळाक ताचें मातूय सुख-दुख्ख ना.
भाशा मंडळाचीं हीं पदां हक्कान वेंचून मेळयल्यांत.
तेच खातीर आमी चिंतेविरयत मंडळ चलयतात.
देखुनूच येवपी वचपी सरकाराची आमकां चिंता ना.
अशें आसलें तरी थोडे लोक म्हाका मेळटाच.
सरकार कशें पडलें कित्याक पडलें तें सांगतात.
आतां हेंच पळयात, विलीचें सरकार पडलें.
हांव जाणां आसलों तें दयानंदान उडयलां.
पूण एकलो मेळ्ळो ताणें म्हाका धक्कोच दिलो.
विलीचें सरकार खंय साळगांवकारान उडयलें.
ते खातीर ताणें खंय स कोटी रुपया खर्च केले.
आयकून म्हाका हांसचें काय रडचें तेंच कळ्ळेंना.
कोणूय सरकार हाडपा खातीर लाख मोडटा
मागीर त्या सरकारा खुस्तार कोटी करता.
हांगा साळगांवकाराचें सगळेंच परतें.
तरी बरें लुइझीनान नाडेपेन्नां केलीं म्हूण
नातर आमकां बाबड्यांक सरकार ना जावपाचें.
सामके काटार साल्वार जाले आमी.
हें सगळें खरें आसलें तरी म्हाका एक खरें दिसना.
साळगांवकार सरकार उडोवंक दुडू मोडचोच ना.
जर तो मोडूंक शकतालो जाल्यार म्हज्या रिणांत,रावपाचो ?
आतां तो म्हाका रीण आसा हें तरी कोणाक खरें दिसतलें ?
कोणाचो म्हळ्यार कोणाचोच हाचेर विश्वास बसचो ना.
खासा दत्तराज साळगांवकाराचो लेगीत बसचोना.
ताचें जालें अशें. तेन्ना हांव कस्तुरबांत शिकयतालों.
कस्तुरबा ही मराठीवाद्यांची मराठी शाळा.
मराठी शाळा म्हणटकच कोंकणीक विरोध जाय.
मराठीक भुरगीं उणीं म्हूण तांणी इंग्लेज सुरू केली.
इंग्लेज माध्यमांत हिन्दी शिकोवंक म्हाका नेमलो.
एक कोंकणी मनीस मराठीवाद्यांकडेन हिंदी शिकोवंक लागलो.
तो काळ कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचे चळवळिचो.
हांवें सकाळीं आनी रातची कोंकणी चळवळ चलोवप
दनपरां एक ते स मेरेन हिन्दी शिकोवप.
केन्ना केन्नाय सांगनासतना दोन-चार दीस वचप ना.
मागीर हांवें हड्डें फुडें काडून शाळेंत वचप.
हड्डें फुडें काडटालों म्हजो पेपरांचेर फोटो येता म्हूण.
म्हजो फोटो पळयत मुख्याध्यापिकेन म्हजी वाट पळोवप.
म्हाका शाबासकी दिवंक न्हय, गाळी घालूंक.
मागीर ते शाळेंत म्हाका गाळी घालपाचो कार्यक्रम जातालो.
ह्या सगळ्या गजालींक लागून हांव पिसो जावपाकडेन पाविल्लों.
अशा वेळार म्हाका थाकाय दिताले ते पुंडलीक आनी शिवदास.
'तूं ती नोकरी सोड, आतां अकादमी, सुनापरान्त बी जाला
तुज्या पोटाची वेवस्था खंयीय जावं येता.'
तांच्या ह्या धिराच्या उतरांचेरूच हांव जियेतालों.
अशा ह्या दिसांनी म्हाका एक दीस उदयबाबाचें पत्र आयलें.
दत्तराजान ताच्या घराकडेन एक मिटींग आफयल्ली.
सुनापरान्त कसो वयर काडूं येता हाचेर विचार करूंक.
ते खातीर ताका कांय लेखकांची गरज आसली.
म्हाका लेखक म्हूण मान्यताय मेळ्ळी म्हूण हांव धन्य जालों.
सुनापरान्त वयर काडपाखातीर उदयबाबागेर गेलों.
थंय भाटीकार, नागवेंकार, चंद्रकांतबाब बी व्हड लोक आयिल्ले.
दत्तराजबाबाक पयलेच खेप हांव इतले लागिंच्यान पळयतालों.
शिवाय तो म्हजेसारक्या कडेन भासाभासूय करतालो.
'सुनापरान्ताचो राष्ट्रमत केला अशें लोक म्हणटात.'
म्हाका उलोवंक सांगलें तेन्ना हांव हें एकूच वाक्य उलयलों.
म्हजें विधान क्रांतिकारी आशिल्लें काय कितें तें नकळो
पूण चंद्रकांतबाब तिडकलो ताचेवेल्यान हांव चुकलों आसूं येता.
हांवें परतून उलोवपाचें धाडस म्हणटात तें केलें ना.
हय, जाय कोणाक त्यो भानगडी ? म्हज्या पोटाचो प्रस्न आशिल्लो.
मागीर ते मिटिंगेक हेरांनी कांड कांड कांडलें.
तांचें आयकत हांव सोफार लवंडून सपनां पळोवंक लागलों.
गोंयचें पुराय वातावरण सुनापरान्तमय जालां.
घराघरांनी सुनापरान्ताचेर लोकांच्यो उडयो पडटात.
सकाळीं सातांक वचत जाल्यार खंयच तो मेळना.
फांतोडेर कारवार, मंगळूर, कोचीन हांगा जिपी भरून वतात.
'दिलीप आसा. ताका घेवया आमी ऑफिसांत.'
शिवदासाच्या आवाजान हांव सपनांतल्यान भानार आयलों.
'तो तयार आसा जाल्यार पयलीं कळूंक नाका ?'
भाटीकारबाब म्हाका पळोवन विचारतालो.
'ताचो पे प्रोटेक्ट जाता जाल्यार हरकत कसली ?'
नागवेंकारबाबान म्हजे वतीन मान्यताय दिल्ली.
सुनापरान्ताक पूर्ण वेळ एक लेखक जाय आसलो अशें मत दत्तराज
उकतायलें.
आतां मालकाची इत्सा म्हणटकच नाका कशें म्हणूं येता !
म्हाकाय ती शाळा सोडून दिवपाचीच आशिल्ली.
हांवें एका पांयार उबो रावन मान्यताय दिवन उडयली.
'केन्नाच्यान जॉयन जाता ?' चंद्रकांतबाबान विचारलें.
'हांव आतांच्यान जॉयन जावंक तयार आसां'
अशें म्हणचें दिशिल्लें. पूण चडूय अकलेक येवप बरें न्हय.
लेखकाचो मान लेखकानूच सांबाळूंक जाय.
एक तारीक लागीं आशिल्ली. एक तारकेच्यान येतां,

तर दिलें आनी म्हजो हुसको मिटलो.
कोन म्हजी आगशी-मडगांव वारी सुरू.
स्टर घेवप मडगांवां वचप.
हॉनांत जेवप, सांजे घरा येवप.
र सुनापरान्तांत बसून रावप.
मागीर चंद्रकांतबाब येतालो.
र म्हाका अग्रलेख घालतालो.
झप बरोवन घेतालों.
बरोवन घेवपाची म्हाका संवंय आशिल्ली.
आतां हांगा उपकारा पडिल्लो.
क बायलमनीस थंय येताली.
म्हणटकच म्हाका पुराय दीस फ्री.
फाच संपादकीय बरोवन घेवंक लायतालो.
हयनो कसो सोंपलो तें कळ्ळेंच ना.
श बी हांणी आपलो पगार घेतलो.
राची गरज आशिल्ली.
देसपट्टो खर्च भागोवंक उशणे दुडू घेतालों.
तांकांच पगाराचो हुसको आसलो.
द्रकांतबाब म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो
म्हळें, जावं आयज पगार मेळटा सो दिसता.
संपादकान बोल्सांत हात घालो. पुडिची डबी काडली.
चिमटी नाकांत घाली आनी म्हाका थंडसाणेन म्हळें,
'तूं मालकाचो मनीस, ताका मेळ आनी तुजें थाराय.
नातर गरजेभायर हांगा येवन बसून फायदो कितें?'
आयकून म्हाका धस्स जालें, हांवें हांगा थंय पळयलें.
तरी बरें थंय आयकुपाक आनीक कोण नाशिल्लो.
हांव मोन्यांनी उठून घरा आयलों.
दुसऱ्या दिसा सावन म्हज्यो आगशी-वास्को ट्रिपी सुरू जाल्यो.
पूण दत्तराजबाब म्हाका कसोच मेळना.
केन्ना मिटिंगेक आसता तर केन्ना जपानाक.
आठ दीस पासयो मारून मारून थकलों
फोनार फोन करून बोल्सांतली चिल्लरूय सोंपली.
आनी हांवें थारायलें, हो विशय तकलेंतल्यान काडून उडोवप.
मालकाक, म्हळ्यार दत्तराजाक, रिणांत दवरप.
धा वर्सां जालीं हे गजालीक आतां.
कोणाचो विश्वास बसपाचो आसा?
ना. स कोटिंचेर मात सहज विश्वास दवरतात.
शेवटीं कितें? दिलीपाचो धबधबो, दत्तराजाची चुळचुळी!

* * *

# स्वातंत्र्य तें खंय आसा ?

□ प्रभाकर नाडकर्णी

१.
वैभव आमचें स्वातंत्र्याचें; स्वराज्याचें
रावलें मात मृजगळ; तें खोटें बरेंचशें
मेळून आयज स्वातंत्र्य तें, जालीं पन्नास वर्सां
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा.

२.
कोणीय सांगतीत जांकां घडला —
— स्वातंत्र्याचो साक्षात्कार
धरीन म्हणटा तांचे पांय
— कोणेंय म्हाका दाखयल्यार
आयजमेरेनचे; घटिचाराचे –
— स्वातंत्र्याचे चमत्कार
आसता कशें स्वातंत्र्य तें ? जालीं पन्नास वरसां
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा.

३.
आस्त तेन्ना बाळगिल्ली – आमी सुराज्याची,
आनी सवंगय, भरवंसो – त्या रामराज्याची,
खंय तीं विरलीं सपनां – मुक्तिसंग्रामाचीं,
खंय ती जिरली भावना – धादोसकायेची,
खंय ती झडली सपूत – एकोप्यान रावपाची
खंय ती बदलली संवंय – गुलामिची, लाचारिची
होलमलें ना स्वातंत्र्य तें, जालीं पन्नास वरसां
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा.

४.
स्वतंत्रते, तुजेपासत गे, झुजले स्वातंत्र्यवीर
'वंदे मातरम्' वड्डत गेले फांसार क्रांतीवीर
उदेन्तेक झुजली सेना हिंदवी 'आजादहिंद'
मळब भेदून गेली गर्जना 'चलो दिल्ली; जयहिंद'
यवन आक्रमणां परतायलीं, तळहातार मुंडकीं घेवन
'हर हर महादेव' गर्जत, शूर आमचें झुजलें सैन्य
गजाली ह्यो स्वातंत्र्याच्यो, जालीं पन्नास वरसां
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा.

५.
आयजमेरेन पडलें पदरांत दळभद्रीशें जिणें
ती गरीबी, तो नरकभोग अर्दपोटार जगणें
तें अज्ञान, ती धर्मांधता, पिडिल्ल्या रोगासावन
चंगळ केली फुडाऱ्यांनी 'गरीबी हटाव' घोशान
गरीब देश गरीबच रावलो, भिकेक लायलो दामाक
धनवंत-महंत-नेते जगले, रावले सदां आरामांत
गळोच दांबलो स्वातंत्र्याचो, जालीं पन्नास वरसां
मानच मोडली स्वातंत्र्याची
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा

६.
'भारत माता की जय, भारत माता की जय'
बेंबी देंठापासून आड्डले
आयकलां कोणेंय आजकाल ?
'झंडा ऊंचा रहे हमारा, विजयी विश्व तिरंगा प्यारा'
फुर्तीगीत हें स्वातंत्र्य मोगाचें
आयकलां कोणेंय आजकाल ?
म्हजी ही मांयभूंय, हांव हे धरतीचो
उमळशिकायेन कोणेंय म्हळ्ळें
आयकलां कोणेंय आजकाल ?
गेलो दबाजो स्वातंत्र्याचो, जालीं पन्नास वरसां
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा.

७.
जो तो सांगता पयली – जाम जमात स्वताची
जो तो हाडटा सामकार – धर्म, कर्म, खाशेली
जाय तो धरता आदी – निजप्रांत अस्मिताय
जशी प्रजा तसोच राजा – अजाप उलटो न्याय
धा दिकांनी, धा तोंडांनी सांगतात जण प्रत्येक
'विविधतेंत एकता' मात सवाय जाली म्हणें एक
जालीं बोंदरां स्वातंत्र्याचीं, जालीं पन्नास वरसां
खंय आसा, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा

ोकनायक – तांची करणी सांगूं कसों
राजकारणी – तांचें कर्तुप वर्णू कसों
रत गहाण बी – घडये आमच्या देशाक
कून उडयत – घडये स्वातंत्र्याक
ब्दकोश ते निराळे
तरावळूय निराळी
नवो अर्थ सांगतां तांचे भाशेंत
नवो पर्याय खासा तांचे आशेंत
, मनमानी, जुलूम अत्याचार
लो तोच नेम, आनीक भ्रश्टाचार
हालिंचें – सरंजामशाहीचें
मकां याद – स्वातंत्र्यापयलिंची
लिसांले बहुजन पिडापिडेची
मकां याद – स्वातंत्र्यापयलिंची
ण एक कवीन सांगलें ठामपणान
ज्या देशांत, दिनात मानसन्मान –
तो देश, आनी ते लोक —
— ते नालायक स्वातंत्र्याक
ना आस्त जांच्या खोल मनांत
देश स्वतंत्र, जालीं पन्नास वरसां
, खंय आसा, स्वातंत्र्य तें खंय आसा.

तंत्र्य प्रेमिकांनो, उठात आतां; जायात जागे आतां
त्र, अस्त्र वा निशस्त्रपणान —
— मेळयात खरें स्वातंत्र्य तें
राजकारणी, त्या देशद्रोहींकडसून
एकांदर गुन्यावगार पासून
ास फार्टी मेळिल्ल्या नांवाक स्वातंत्र्य
खटें मृगजळशें, भायराविल्लें स्वातंत्र्य
, कर मेकळे आमकां, परतंत्र जवंजाळांतून
, कर बळिश्ट आमकां, सुराज्य घडोवपाक लागून
, कर लायक आमकां, घेवपा स्वातंत्र्य सुवाद
आयकुपाक येवुंदी, स्वातंत्र्य घण्टानाद
य खुशीचें, सुखसमृद्धिचें
य शांतिचें, निरामयतेचें
य कायमचें, उरतलें सगळ्यांचें.

# तांडेला ओ तांडेला

□ रोहिदास बाबुराव शिरोडकार

तांडेला ओ तांडेला, यो रे बेगीन तांडेला
हांव अशें आलतडीन, तूं थंय पलतडीन
बेगीन यो रे तांडेला.

सुकतेचो वेळ सल्ला, भरतेचो बोवाळ चल्ला
पावसाचो नेट आसा, गडगड्याचो धेंक आसा
तांडेला ओ तांडेला, यो रे बेगीन तांडेला

आसोर जावची आस्त ना, चिप्प पळे भिजलां हांव
कोण हांगा लार्गी ना, कोणा सरीं घेवं धांव
तांडेला ओ तांडेला, यो रे बेगीन तांडेला.

# एकेचाळीस पावसाळे

□ काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

म्हजे कवितेंत पावस ना
आसा तो फकत उबाळाचो कालोर
आसात फकत मांडून रावलेले काळे ढग
तरीय म्हजे कवितेन एकेचाळीस पावसाळे पळयले

भुरगेपणार म्हज्या एका दोळ्यांत चंद्र आसलो
आनी एका दोळ्यांत सूर्य
हांव खेळटालों पृथ्वीचो फुटबॉल करून
म्हणटालों येरे येरे पावसा

कवितेच्या सतराव्या वर्सा हांव पडलों मोगांत
तेन्ना आख्ख्या जगांत एकूच चेडो आसलो
आनी आसलें एकूच चेडूं
दोगांयचे मदीं आसलो एक केळ्यांचो घड
आनी घड लागलेलो केळमो
आसली एक सत्री
पूण नासलो पावस

एक दीस केळिच्या पानार न्हिदली कविता
आनी जाली दुवाळ्यांची
कोण तरी मरता आनी कोण तरी जल्माक येता
भुरगें पाळण्यांत रडटा
भुरगें लंगोट ओली करता
आनी कविता आकुळपिकूळ जावन
सोदता भुरग्याच्या बापायक

आनी हांव सोदतां एक पैसो पावसाक लांच दिवपाक
सोदतां तें ओलेंचिप्प आंगण, तें पाचवेंचार रान, ती सर
व्हांवोन गेल्ली ती मडकी...
मडकी फुटचे आदीं हांव एक कविता बरोवंक सोदतां
जिचो जावचो ना गोबोर म्हज्या सरणाचेर

म्हजे फाटसून म्हजी कविता दुकां गळोवची ना
कारण म्हजे कवितेक दोळेच ना
तरीय म्हजे कवितेन एकेचाळीस पावसाळे पळयले.

# तूं खळखळून हांस

□ परेश नरेंद्र कामत

तूं खळखळून हांस :
म्हजेखातीर,
म्हज्या सपनांत येत रातयां
नक्षत्रांवरी उजळत.

तूं सळसळत राव :
शिरेशिरेंत आकांतून
रंद्रउमेदिचो रक्तव्हाळ
कुडींत शिजत दवरीत...

म्हज्या ओंठांक ओठांनी शिंपीत तूं
नेमान हुनारीत राव
म्हज्यांत तट्टटिल्ल्या भूंयगर्भाक.

तूं म्हज्या दोळ्यांत दोळे व्हंजळायत
मळबावरी व्हांवत राव
दिकेदिकेन ओथंबून.

तूं खळखळून हांस :
म्हजेखातीर,
म्हज्या सपनांत येत –
आनी ल्हवूच म्हजे कुशींत येत तूं
म्हजे न्हिदेचो पाळणो हालय;
उज्यावरी भगभगत
न्हिदेंतल्यान हांव जागो जावचे पयलीं...

# …णीन म्हाका आत्मतेज दिलें

…ाक

…ांतसून म्हाका अन्यायाची अतिशय चीड. अन्याय, मागीर जावं …ा आनीक कोणाचेर. घरांतलें वातावरणूय हाका कारणीभूत थरलें. …ंगी बायलांचेर घडटले अन्याय, तांचेर लादिल्लीं बंधनां पळोवन …गी रावपाक जायना आशिल्लें. म्हजे हे बंडखोर विचार मागीर …प्रगट जावपाक लागले. कॉलेजींत आसतना विद्यार्थी संघटनेकडेन …नो. दत्ता दा. नायक, भास्कर नायक, सु. म. तडकोडकार, …तडकोडकार) हांचेकडेन इश्टागत जाली आनी नव्या विचारांकडेन … वाद-विवाद, चर्चा हातूंत वांटो घेवप जालें. आपले विचार …ावतले जाल्यार भाशेचें माध्यम म्हत्वाचें हो मुद्दो म्हाका तेन्नाच …ल्या मनांत येता त्या विचारांचें प्रगटीकरण करप आपले … जितलें सोंपें जाता तितलें दुसरे भाशेंतल्यान जायना. लेखनांत …ाचो आसता. तो मागीर लेखांतल्यान, कादंबरींतल्यान वा …माध्यमांतल्यान येवूं, लेखक कितें सांगपाक सोदता तें वाचप्यांक … साहित्य हें फकत शब्दबंबाळ जावन मन रिजोवपाखातीर आसचें …ली अस्वस्थताय प्रगट जावपाक लेखन आनी कोंकणी भास …ाध्यम थरलें. म्हजें चडशें लिखाण आनी वक्तव्य अणभवांचेर …रिल्ल्यान तातूंत आक्रमकता आनी बंडखोरिचो आस्पाव जालो.

… वर्साफाटली खबर ती! तेन्ना म्हजी पिराय सादारण अठरा …सुये. कॉलेजींत शिकतालें. सभावान बंडखोर, तातूंत विद्यार्थी … सहभाग. मडगांव सारकेल्या शारांत वाडिल्ल्यान भोंवतणच्या …तावरणाचो नकळटाना एक परिणाम वागणुकेचेर पडिल्लो. सभा, …जीर राविल्ल्यान कांय लोकांची नदर पडटाली. इतल्या चल्यांमदीं …ी कोण ह्या हेतून खंयूय वतकच लोकांमदीं चुळबूळ जाताली.

…एका प्रसंगाचो हो उगडास. गोमंत विद्या निकेतनाच्या ग्रंथालय …एक परिसंवाद आशिल्लो. 'हुंडो घेवप योग्य काय अयोग्य' असो …शय आशिल्लो. परिसंवादांत वांटो घेवपी कोण आसले हाची …जायना. पूण ते तरणाटे पिळगेंतले नासले इतलें खरें! अध्यक्षीय …आशिल्ले भोवमानेस्त माधवराव गडकरी, 'गोमंतक'चे तेन्नाचे …नी मराठीचे कट्टर पुरस्कर्ते. भाशणां आयकूंक हांव सहज भितर … कोणाची नदर वचना अशें कडेकशें बसलें. भाशणां सोंपलीं. …क्षीय भाशण जावपाचें आसलें. इतल्यांत तांचेभितर चुळबूळशी …यक्ष तांकां विचारताले – तरणाटे पिळगेंतलो उलोवपी वक्तो … काय म्हण. माधवराव उठून उबे रावले आनी तांणी म्हाका …चे आदीं एक दोन खेपे हांव तांकां मेळिल्लें आनी 'हुशार मुलगी' …ी म्हाका शाबासकी दिल्ली. तशे भाशावादाचेर आमचे विचार …तरी आमची धिटाय पळोवन तांणी म्हणचें, 'हेमा, तुमच्यासारखी …णसं असतील ना तर तुमच्या भाषेला मरण नाही.' उबे रावतांच …, 'ती तिकडे हेमा धुमटकर बसली आहे तिला बोलूं दे.' म्हाका … सुटलो. हे आदीं हांवें अशीं भाशणां करूंक नासलीं. कितें करचें … जालें. तांचो परतो आग्रो जालो. 'काय वाटेल ते बोल की, …बोल.' सगळ्यांचीं भाशणां मराठींतल्यान जाल्लीं. तेदेवेळार … समजूच आसलो, माचयेर उलोवपाची आनी कागदार बरोवपाची … भास मराठीच म्हणून. पूण म्हाका कोंकणी उलोवपाची मेकळीक … तांच्या उतरांक लागून हांव उठलें आनी मायकामुखार उबें रावलें. …ोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं. थोडेंशें आवेशान, पोटतिडकीन उलयलें. हॉलांत अतिशय शांतताय. 'हुंडो घेवपी न्हवऱ्यांची धींड काडपाक जाय, तेन्नाच कितेंय बदल घडून येतलो' अशें कितेंशें हांव निमाणें उलयलें. लोक सगळे तटास! ताळयो मारपाचेंय कोणाक भान ना. म्हज्या काळजांत कलकल. अध्यक्षांनी आपल्या भाशणांत म्हजी बरीच तोखणाय केली आनी तांच्या ह्या प्रोत्साहनाचेर फुडें चळवळिंनी आनी आंदोलनांनी वांटो घेवपाक उमेद कशी आयली.

गोमंतक दिसाळ्याचे संपादक, मराठीचे पुरस्कर्ते आसुनय गोमंतक दिसाळ्यांतल्यान म्हजी तोखणाय करपाक, म्हाका प्रसिद्धी दिवपाक तांचे हात खंयच उणे पडलेनात.

जाण येवपाक लागतसान दोन संपादकांच्या हातांत हांव सांपडलें. एक माधवराव आनी दुसरे 'राष्ट्रमत'चे संपादक श्री. चंद्रकांत केणी. त्या काळार चलयांमदीं चडशें धाडस आनी धिटाय पळोवपाक मेळनासली. देखून हांव तांचे नदरेंत गेलें जावंक जाय. हांव कितें तरी करतलें हाची तांकां पुराय खात्री आसली. म्हजें चुकत जाल्यार चूक दाखोवन दिवपांतय ते फाटीं रावनासले. म्हज्या घडपांत ह्या दोनूय संपादकांचो वांटो आसा.

१९७४-७५ वर्सांतली गजाल. कलकत्त्याक अखिल भारतीय महिला फेडरेशनचें अधिवेशन आशिल्लें. गोंयच्यान एक प्रतिनिधी म्हण म्हजो आसपाव आसलो. त्या काळार बायलमनीस आयचे इतली मुक्त नासली. तरी हे परिस्थितींत हांव गोंयच्यान म्हजे आनीक एके बायल सांगाती सयत कलकत्त्याक वचून येतां हाचें सगळ्यांत चड कवतूक कोणें करचें तर माधवराव गडकरी आनी म्हजो एक इश्ट मनोहर कोरगांवकार हांणी. आयताराचे गोमंतकाचे पुरवणेंत फोटोसयत म्हजो एक व्हडलो लेख उजवाडा आयलो. हे प्रसिद्धेन म्हाका एक वेगळेंच स्फुरण दिलें.

कलकत्त्याच्या अधिवेशनांतल्यान कोंकणी भाशेचो स्वाभिमान अदीक जागृत जालो. त्या अधिवेशनांत भारतांतल्या वेगवेगळ्या भागांतल्यान प्रतिनिधी आयिल्ल्यो. म्हजे सारक्यो तरणाट्यो चलयो अवघ्योच. ते खातीर तांकां म्हजी चड तोखणाय. तांणी म्हजेकडल्यान कांय कोंकणी गितां, कोंकणी म्हणी म्हणून घेतल्यो. कोंकणी भाशेंतली रचना आनी तांतुंतलो गोडवो तांकां खूब आवडलो आनी तांणी भाशेची अतिशय तुस्त केली. कलकत्त्यासावन परतलें तेंच अंतस्करणांत भाशेच्या स्वाभिमानाची जोत जागृत दवरून.

गोंयांत येतकच कोंकणी कार्यावळिंनी हाजीर रावपाक लागलें. कोंकणी भाशा मंडळाचे वतीन वेगवेगळे कडेन शिबिरां जातालीं. ह्या शिबिरांनी हांव आवर्जून आसतालें. दर एकल्याकडल्यान पांच रुपये फी घेताले. तेन्ना बेकार आशिल्लें. पांच रुपये दिवपाक तांकनाशिल्ले. पूण तरीय ती वेवस्था करतालें. तेन्नाच्या शिबिरांतलो एक फोटो अजून म्हजेकडेन आसा. कोंकणीचे सगळे म्हालगडे, बायलमनीस म्हण एक सुलोचनाताई काटकार आनी सगळ्यांमदीं हांव एकलेंच चली. केन्नाकेन्नाय वितोरीयाबाय फेर्नांडीस हिवूय आसताली. पूण एक गजाल म्हजे बाबतींत घडली. हांव एकलें म्हण केन्ना असुरक्षिततेची भावना मनांत आयली ना. कोंकणींतल्या ह्या सगळ्या लोकांनी म्हजी खूब अपुरबाय केली. आतां हे विचार मांडटना लेगीत म्हजें मन भूतकाळांत वता आनी अंतस्करणांत मायेचो पाजर फुट्टा. कोंकणीचे कार्यावळीक, कोंक़णी शिबिराक हांव येना जाल्यार तांकां चुकिल्लेसारकें जातालें. हांव कशें वतलें आनी कशें परततलें हाची वेवस्था तेच करताले. हाका लागून म्हाका हांची सगळ्यांची ओड लागली. कोंकणीकडेन ओडून व्हरपाक स्वाभिमानाबरोबरच तांची माया आनी अपुरबाय कारण थरलीं म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

ह्या सगळ्यांनी आपली धूव जाल्लेभशेन म्हाका पाचारलें. नांवांच घेवपाचीं जाल्यार निकुबाब कारापुरकार, रवीन्द्रबाब केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, नागेशबाब करमली, फादर आंतोनियो पेरैर, फादर कार्मो द सिल्वा, चंद्रकांतबाब केणी, गुरुनाथबाब केळेकार, उदयबाब भेंब्रो, फेलिसबाब कार्दोज हांचीं घेवंचीं पडटलीं.

कोंकणी परिशद, कोंकणी संमेलन म्हळ्यार आमचेर घेऽ बोवाळ पडटालो. रवीन्द्रबाब सांगतालो, अमकें अमकें जावपाक जाय. चल, लागलीं आमी कामाक. स्वागत सभासद करप, वर्गणी जमोवप, कदेलां मांडप, माचयेवयली वेवस्था पळोवप. अमकेंच म्हणून ना. पडटा तें काम उमेदीन करप. मनांत फकत एकूच भावना आसताली. आमी आमचे कोंकणीखातीर हें काम करतात. हातूंत कसलोच सुवार्थ नासतालो, कसली अपेक्षाय नासताली.

ते नदरेन आमकां खूब बऱ्यो संदी लाबल्यो. कोंकणीचो दिस्टावो घडपाक लागतनाच बऱ्याच म्हालगड्या साहित्यिकां म्हऱ्यांत बसून साहित्याचेर चर्चा करपाचो योग आयलो. बोरये वचून बाकीबाबांच्या घराकडेन बसून तांच्या काव्यमय उतरांचो आस्वाद मेळ्ळो. पिरवळा रवीन्द्रबाबांच्या घरा वचून तांचेकडल्यान झुजपाची स्फूर्त मेळ्ळी. मनोहरबाबांकडल्यान तोखणाय जाली. ह्या सगळ्या म्हालगड्यांच्या सांगातानूच आमची पिळगी घडून आयली.

त्या काळार एक घडटालें. कोंकणी ही येंगाड्यांची भास अशें सगळेजाण समजताले. कोंकणी उलोवप, कोंकणी बरोवप हें शिकनाशिल्ल्यांनी अशी समजूत जाल्ली आनी कोंकणीवादी हो फकाणां मारपाचो विशय जाल्लो. असोच एक प्रसंग म्हाका याद आसा – मडगांवां कोमुनिदाद बिल्डिंगेकडल्यान हांव वतालें. इतल्यान 'ए कोंकणीवादी' म्हण कोणेंतरी उलो मारलो आनी बकच्छायो केल्लेवरी तो हांसलो. हांवें फाटल्यान वळून पळयलें. जाल्यार खऱ्यांनीच कोणेंतरी म्हजीं फकाणां मारिल्लीं आनी ज्युस्त त्याच वेळार गुरुनाथबाब थंय पाविल्ले आनी ते ताचेकडेन वाद घालताले. म्हाका सूऽ जालें. गुरुनाथबाबान आपल्या मायेस्त उतरांनी म्हळें, 'हेमा, आमी आसतना तूं कांयच भियेवं नाका. लोक अशींच फकाणां मारतले. तीं पचोवपाक धाडस जाय. तुज्यांत ती कापास्ताद आसा.' गुरुनाथबाबांच्या उतरांनी आंगार मूठभर मांस चडिल्लेभशेन जालें.

म्हज्यांतलें अस्तित्व जागोवपाकूय तेच कारण थरले. सांजेच्या वेळार केन्नाय हांव तांच्या दुकानार वचून बसतालें. थंय मागीर कोंकणीचे उदरगतिचे नदरेन विचार जातालो. नवें साहित्य कितें बरयलां ताचेर चर्चा जाताली. म्हज्यांतलो स्वाभिमान जागोवपाचो तो ल्हानसो प्रसंग हांव केन्नाच विसरपाचें ना. दुकानार बशिल्लेकडेन एक मनीस आयलो. म्हाका पळोवन ताणें विचारलें, ही अमक्या अमक्याची भयण न्हय? ते बराबर गुरुनाथबाबान फट् करून म्हळें, 'हें हेमा. हाका हेमाच म्हणून वळखुपाचें.' हांव म्हणून कोण वेगळें आसां ही भावना त्याच खिणाक म्हज्या काळजांत जागी जावन उठली. बायलेक हाचेवयल्यान, ताचेवयल्यान वळखुचे परस तिका स्वतावयल्यान वळखप गरजेचें हो विचार म्हजो आदर्श जावन उरलो. म्हज्या चडशा लिखाणांतल्यान ही स्वत्वाची भावना मुखेलपणान येवपाक लागली.

पूण घडलें अशें, ह्या विचारांचें प्रदर्शन जाता आसतना (तेदेवेळार म्हजें चडशें लिखाण राष्ट्रमतांतल्या साप्ताहिक कोंकणी पुरवणी 'सोमारां'तल्यान उजवाडाक येतालें) बऱ्याचशा दादल्यांचो अहंकार दुखावलो. हाचो परिणाम घरांतय जाणवून आयलो. घरची दशा वाऱ्यार घालता अशीं त्रोसांनी बापायचीं उलोवणीं कानार पडपाक लागलीं. कोंकणीवादी म्हण हिणसावपय जालें. पूण सगळें मोन्यांनी सोंसलें. चडसो वेळ घराभायर रावप म्हाका पसंत आसलें. पूण हो वेळ बऱ्या कामाखातीर खर्चतलो हाची जतनाय घेतालें. समविचारी लोकांचो एक पंगड कसो मडगांवांत जमा जाल्लो. कवितांची रचना जाताली, कथांची निर्मणी जाताली. सप्तकांतल्यान एक दीस एकठांय बसून साहित्यिक चर्चा घडोवन हाडपाची जापसालदारकी गुरुनाथबाबांनी घेतिल्ली. तांच्याच घरा हो उपक्रम जातालो. हातुंतल्यान आयोजनाचें बाळ कशें म्हाका नकळटना मेळ्ळें. हाचो खूब बरो उपेग म्हाका म्हज्या फुडल्या जीवनांत जावपाक पावलो. पुस्तकांचे विमोचन सुवाळे, बायलांचे साहित्य मेळ घडोवन हाडून नव्या नव्या लोकांक कोंकणीकडेन ओडून हाडटना उपक्रमांची मूळ बसका कारण थरली.

म्हज्या आयुश्यांत कोंकणी कार्यकर्तें म्हण हांव खूब वावुरलां. कोंकणीच्या म्हालगड्यांनी कितेंय सांगलें आनी हांवें तें आयकलें ना अशें घडिल्लें म्हज्या यादींत ना. तांणी सांगिल्लें खंयचेंय काम खंयच्याय वेळार हांवें हांसत्या तोंडान आयकलां. अक्षर सुंदर आनी वळणदार आशिल्ल्यान बऱ्याच हातबरपांची कॉपी काडपाचें काम हांवें केलां. तोंडांनी सांगता तें उतरा घेवपाकूय हांव वरांचीं वरां बसलां.

कोंकणींत तेन्ना **'पुनव'** हें म्हयनाळें येतालें. गुरुदास पै आनी सुरेश काकोडकार हांची जापसालकी आशिल्ली ती. कोंकणी म्हयनाळें जाल्ल्यार तें विकतें घेवन वाचपी लोक खूब उणे आशिल्ले. आपले पदरचे पयशे घालून असलीं कामां तेन्ना चलतालीं. तांच्या वावराची तळमळ पळोवन कवतूक दिसतालें. ह्या पंगडांत मागीर हांव भरसलें. सुरेश काकोडकार आनी हांव घराघरांनी भोंवून पुनवेची वर्गणी जमयतालीं. हें करता आसतना खूब जाणांचीं वायट उतरांय आयकुचीं पडल्यांत, कोंकणीक तुच्छ लेखून हिणसावपाची भासूय तांणी वापरल्या. केन्ना केन्नाय दिसतालें, कित्याक म्हण आमी लोकांच्या दारांत वचून हो अपमान सोंसून घेवप? पूण तरी बरो दीस पळोवपाक मेळटलो हो हावेस मनांत बाळगून आमचें काम चलतालें.

कोंकणींत घट जावपाक आनीक एक म्हत्वाची गजाल घडली ती म्हणल्यार म्हजी आनी पुंडलीकाची इश्टागत. कोंकणी शिबिरांनी, लेखक संमेलनांनी, परिशदांनी, साहित्यिक कार्यावळिंनी सहभागी जातना आमचे इश्टागतीक अचळय प्रेमाचें रूप घेतलें. सहवासाची ओड आनी मेळपाचे जागे म्हळ्यार कोंकणीच्यो कार्यावळी. हाका लागून एक्कान एक ल्हान व्हड कार्यावळींक आमची आवर्जून हाजिरी आसताली. आमच्या प्रेमाक घरचीं थोडीं आडखळी आशिल्ल्यान कोंकणी कार्यावळिंचें निमित्त आमकां बऱ्याक पडिल्लें. परिशदे खातीर गोंयाभायर वतना बसींतलें वातावरण इतलें खेळीमेळिचें आसतालें की पिकनिकेक गेल्लेवरी दिसतालें. परिशद परतून केन्ना येतली हे ताळ्यान आतुरतेन वाट पळोवप जातालें. तातूंत आमचें प्रेम ही मागीर लिपून उरपासारकी गजाल उरली ना. शंकरबाब भांडारी, दत्ता श्री. नायक हांणी आमचीं फकाणां मस्कऱ्यो केल्यात. ते नदरेंतल्यान हांव म्हाका खूब भाग्यवान समजतां. कोंकणीमदीं घुस्पल्ल्यान प्रेमाच्या जाळ्यांत सांपडलें आनी मागीर संघर्शाक तोंड दितना जिवितांत एक वेगळीच धिटाय आयली. आपणाक कितें जाय तें मेळूं येता, पूण ते खातीर आंगांत धाडस आसचें पडटा, ही गजाल पटून आयली. संघर्शाक तोंड दिवपाक धाडसान वागचें पडटा ह्या विचाराचो प्रत्यय मागीर म्हाका फुडें कोंकणी चळवळीखातीर बऱ्याक पडलो.

साहित्य पुस्तक रुपान उजवाडावपाचो अणभव गांठीक नाशिल्लो. प्रकाशनाची कांयच कल्पना नाशिल्ली. पूण आपणें बरयिल्लें उजवाडाक जाय हाची तळमळ आसताली. चार लोकांनी वाचचें, चार लोकांमदीं नांव जावचें हो हावेस मनांत आसतालो. आमी कसले कसले खटाटोप केल्ले नात? **परजळ** नांवाचें कवितांचें म्हयनाळें काडलें. छापून न्हय. आमच्यो कविता, सुंदर हस्ताक्षरान बरोवप आनी ताच्यो स्टेन्सिल काडून सायक्लोस्टायल करप. कोंकणीच्या लोकांक हें कवितांचें मासीक पावोवपाची वेवस्था आमी करतालीं. याद जायना, पूण आठ आणे अशें मोल आसतलें. कोणूय दिल्यार घेतालीं. ह्या परजळाचें मागीर **पारजत** जालें आनी छापणावळींतय सुदारणा जाली. हातांनी बरौवपाच्या जाग्यार छापखान्यांतल्यान छापून घेतलें. ह्या पंगडामदीं आशिल्ले ते नागेशबाब

ायक, प्रकाश पाडगांवकार, रमेश वेळुस्कार, दिगंबर शिंगबाळ. अणभवय फुडें म्हाका प्रकाशनाच्या क्षेत्रांत बऱ्याक पडलो.

ों कोंकणीच्या मळार वावरप खूब मजेंत गेलें. कॉलज जीवनापरस सकें यादींत उरसारकें. १९७७ वर्सा आमचें लग्न जालें. अतिशय न. पणजे देवळांत वचून माळ घाली, मणी बांदलो आनी सादेंशें लें. चडशे कोंकणीचेच लोक. सगळ्यांच्या मनांतलें समादान थोड्यांनी म्हळें लेगीत, हेमा-पुंडलीक म्हळ्यार कोंकणी अदीक म्हाकाय दिसलें, एकामेकांच्या सांगातान आमी कोंकणींत खूब करूंक पावतलीं, आनी मागीर खऱ्या अर्थान आमचो कोंकणीचो जालो.

पयलीं हात घालो तो पुस्तक प्रकाशनांत. कोंकणीच्या ध्येयान ीं. मागीर हातांत पयशे आसात काय ना हाची पर्वा करिनासतना पाचो आमी अवेव्हार केलो. पुस्तकां छापून हाडपाक जाय इतलेंच आशिल्लें. तीं कशीं खपोवपाचीं आनी पयशे परते कशे जमोवपाचे ाशिल्लीं. देखून आमचे सुरवेचे प्रयोग फसले. कोंकणींत जें हाडपाचो म्हजो सदांच अट्टाहास चलतालो. नवे लेखक नात, वाडाक येना, जाल्यार तार्ची कारणां सोदून काडलीं आनी खकांचीं ल्हान ल्हान पुस्तकां उजवाडा हाडलीं. सुरवेक पुंडलीक र सिंगबाळ, महादेव नायक आनी पांडुरंग गावडे हांणी **अपुरबाय** संस्था घडयली आनी पुंडलीक नायकाचें 'रानसुंदरी' (१९७४) उजवाडाक हाडलें. लग्न जायनाफुडें ही संस्था तांणी म्हाका ानी हे संस्थेची दिसानदीस उदरगत जायत गेली. वेंचीक बरें ्यान वर्णी एकठांय करून एकाद्रया लेखकाचें पुस्तक उजवाडावप इश्टागत प्रकाशनाचे वतीन आमी अदींमदीं करूंक लागलीं. रमली हांचें 'जोरगत' हें पुस्तक (१९७९) अशाच प्रयोगांतल्यान . हें सगळें केलें तें ध्येय म्हणून केलें. पुस्तकांचे संख्येंत भर य, कोंकणीक सरकारी थराचेर मान्यताय मेळपाक जाय ही नांत आसली. ताका लागून पुस्तक प्रकाशना बरोबर त्या पुस्तकांचे ाळे लेखकांच्या गांवांनी घडोवन हाडले. हाका लागून कोंकणीचो ाक पावलो.

दिसलें, कोंकणींत हांवूच एकलें कित्याक वावुरतां? बाकिच्याय वपाक जाय. ते खातीर बायलांचे खास अशे साहित्यिक मेळ वेगळ्या वाठारांनी घडोवन हाडले. ह्या उपक्रमाक बरो प्रतिसाद लांखातीर खास असो चित्रंगी हो वर्सुकी दिवाळी अंक (१९८०) ह्या सगळ्याचो परिणाम आमकां राजभास आंदोलना वेळार देसून आयलो. उलो मारनाफुडें पणजेच्या आझाद मैदानाचेर ख्येन बायलांची उपस्थिती दिसली. बायलांचो वेगळो मोर्चा बळ आमचेकडेन जालें. पुलिसांच्यो लाठयो खावपाइतलें धाडस यलांमदीं आयलें. पणजेंत भर रस्त्यार आनी महामेळाव्यांनी भाशणां ताकत अर्चना कामत आनी जयंती नायक ह्या बायलांक आयली. वळिच्या इतिहासांत बायलांच्या शक्तिप्रदर्शनाची ही गजाल नोंद डटली. कित्याक तर, कोंकणी चळवळीन गोंयचे बायलेची ली शक्त जागयली.

क प्रवास चालू आशिल्लो. बायलांवयलो अन्याय लेखांतल्यान ल्यान प्रगट जातालो. 'निर्बळा' कादंबरी बरयल्ली. ती राष्ट्रमताचे डेल्ली. तिका इनामूय मेळ्ळें ना वा तिची कोणें दखलूय घेतली दंबरींक इनामां मेळिल्लीं तांचेपरस म्हजे कादंबरिचो दर्जो उणाक शें म्हाका तेन्ना दिसलें ना आनी मनाक एक खंत कशी लागून ळार बऱ्याच जाणांचो समजूच जावन पडल्लो, हेमा एक चळवळें, र वावुरपी, पूण साहित्यिक न्हय. तेदेवेळार कोणेंय फुडाकार घेवन ती छापिल्ली जाल्यार म्हज्या साहित्याक एक वेगळी दिशा लाबूं येताली. पूण म्हज्यांतले साहित्यिक गूण पारखिले ते पुंडलीकान. निर्बळा अठरा वर्सां उपरांत पुस्तक रुपान उजवाडाक आयली. पुंडलीकाच्याच प्रोत्साहनान म्हज्यांतलें साहित्य फुलपाक पावलें हें सांगतना म्हाका आयज मातय संकोच जाणवून येना.

कोंकणींतली आनीक एक उणीव नदरेंत आयली, ती म्हळ्यार नाटकाची. गोंयांत मराठी नाटकां जातात. गोंयांत बरे कलाकार आसात. तांची भास कोंकणी. जाल्यार नाटकां कोंकणींतल्यान कित्याक जायनात? मागीर ती चळवळ सुरू केली. कला अकादमीचे सर्तीं खातीर उण्यांत उणीं पांच नाटकां जावपाक जाय म्हण वेगवेगळे पंगड घडयले. वळवय **रंगसांगाती** जल्माक घाली. सुत्रधार म्हणून चडांत चड जापसालकी म्हाकाच घेवची पडली. म्हयन्याचे म्हयने तालमी आमच्याच घरांत. सुरवेक संस्थेकडेन पयशे नाशिल्ले तेन्ना नाटकांचो खर्च आमच्याच पयशांनी भागयलो. ह्या सगळ्याचो परिणाम आयज दिसून येता. कोंकणी नाटकांक उत्सवांखातीर आनी हेर कडेन बरी मागणी आसा. आयचे घडकेक कोणेंय कितेंय करपाची तयारीच दवरपाक जाय. संदी आपसूक येतात. कोंकणी नाटकांचे निर्मणेक घाल्ली ही बुनयाद.

साहित्यिक म्हण कोंकणींतल्यान कविता बरयल्यो, कथा बरयल्यो. 'पसय' हो कथासंग्रह उजवाडाक हाडलो. नभोनाट्यां बरयलीं, लेख बरयले. 'अस्तुरीमृग' हो लेखसंग्रह उजवाडाक हाडलो. 'निर्बळा आनी मुक्ती' अशो दोन नवलिका उजवाडाक हाडल्यो आनी उपरांत कादंबरीकडेन पावलें. 'भोगदंड' ही कादंबरी बरोवन जातकच दिसलें, कोंकणींत अशे तरेच्या कादंबरी लेखनाची अत्यंत गरज आसा. आयचो वाचक ल्हान ल्हान कथांपरस अशें दीर्घ स्वरुपाचें लेखन सोदता आनी ताका आमी तें दिवपाक जाय.

कोंकणीच्या वावराची ही वाटचाल चलतना कोंकणींत फिल्म ना म्हणपाची जाणीव जाली आनी फिल्मासारक्या मोठ्या प्रोजेक्टाकय हात घालो. आर्थिक नदरेन खूब मार बसलो. सगळे वेव्हार ठप्प जाले. पूण आमच्या यत्नांतल्यान गोंय सरकाराचो चित्रपट महोत्सव चालीक लागलो.

आनी थोडेंशें निमाणेकडेन –

म्हज्या ह्या सगळ्या वावराची नोंद घेवन तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्रान फादर आंतोनियो पेरैरा हांच्या नांवान दवरिल्लो पुरस्कार अंदू वर्सा (१९९८) म्हाका भेटयलो. ह्या पुरस्कारावरवीं तांणी म्हजे सेवेचो गौरव केलो आनी म्हज्या कार्याक प्रतिष्ठा दिली. हो पुरस्कार स्विकारतना भावनीक नदरेंतल्यान हांव बरेंच हळवें जालें आनी यदाकदाचित जर केन्नाय म्हज्या मनांत गर्व उपराशिल्लो वा अहंकाराची भावना निर्माण जाल्ली जाल्यार अंतर्मुख जावन हांवें म्हजीच परिक्षा घेतली. अशे पुरस्कार स्विकारपाची म्हजी आजून पिराय जावंक ना हे जाणिवेन म्हाका खांकुडिल्लेवरी जालें.

काम करीत रावप हो म्हजो सभाव. कामाचो मोबदलो मेळचो हो अट्टाहास ना. पूण एक, म्हाका जर कितें फावता आनी तें मेळना जाल्यार मात हांव अस्वस्थ जातां. म्हज्या आयुश्यांत अशे जायते प्रसंग आयले. कांय वेळार हांवें निशेध उकतायलो. तर कांय वेळार घरची गजाल वाऱ्यार पडत हे भिरांतेन ओगी रावलें.

कोंकणीच्या मळार फाटल्या पंचवीस वर्सांचो हो म्हजो कालखंड. साहित्य, प्रकाशन, मेळाव्यांचें आयोजन, विमोचन समारंभ, नाटकांची निर्मिती, फिल्माची निर्मिती अशा विविध मळांचेर कोंकणीक स्थान मेळोवन दिवपाचे नदरेन हांव वावुरलां. पूण हातूंत हांव समादानी ना. जें कितें काम हांवें केलां तांतूंत म्हाका तृप्ती मेळिल्ली ना. दर एका क्षेत्रांतल्यो उणिवो म्हाका खबर आसात आनी त्यो तडीक व्हरपाच्या हावेसान म्हजीं पावलां पडत आसात.

आयज म्हज्या गत आयुश्यांतल्यो ह्यो ताज्यो टवटवीत स्मृती कोंकणीच्या इतिहासांत नोंद जावन उरल्यात हाचो म्हाका अभिमान दिसता. ✻

# ‘वालोरा’सांव

प्रा. बाळकृष्ण कानोळकार

‘वालोर’ हो एस्. डी. तेंडुलकार हांचो समिक्षाविशिंच्या बरपांचो झेलो. एस्. डी. तेंडुलकार हो एक तरणाटो कोंकणी साहितियक. कोंकणी कवितेंतलो काशिनाथ शांबा लोलयेंकार. कोंकणी साहित्याक नव-नाटककार म्हणुनय तो आपलो परिचय करून दिवंक लागला. हेर साहित्यप्रकारां वांगडाच ताणें फाटल्या सात-आठ वर्सांपसून कोंकणींत साहित्याची समिक्षा करपी लेखनूय केलां. सुनापरान्त दिसाळ्यांत तो कांय तेंप ‘कुमसार’ नांवाचें सदर बरयतालो. तातुंतले कांय लेख आनी तांचे भरीक आनीक कांय लेख, मुलाखती बी घालून ताणें आपलो ‘वालोर’ हो ग्रंथ सिद्ध केला. बरोवप्यानूच म्हळां ते प्रमाण, तातूंत ‘समिक्षा, वर्तमानपत्री नियाळ, आस्वाद बीन’ असल्या लिखाणाचो आसपाव केल्लो पळोवपाक मेळटा. बरोवप्यान ह्या ग्रंथाचे सुरवेकूच म्हळां, ‘साहित्याची वा कोंकणी साहित्याची समिक्षा करतना हांवें ताचो ‘वालोर केला’ आनी जाय थंय ‘वालोर दिला’’. तर असो हो ग्रंथ. त्या ग्रंथाचें हें वालोरासांव.

वालोरासांव करचे पयलीं एक सांगनशें दिसता – पुर्तुगेज भाशेन कोंकणीक जायतीं उतरां दिल्यांत. उतरांची ‘अपूर्व’ गिरेस्तकाय दिल्या. कोंकणी वरी हेर खंयचेय देशी भाशेंत संस्कृत तद्भव आनी तत्सम उतरां आसात तशींच कोंकणींत पुर्तुगेज तद्भव आनी तत्सम उतरां आशिल्लीं दिश्टी पडटात. आज विसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक पुर्तुगेज भाशेकडल्यान मेळिल्ली ही गिरेस्तकाय इल्ली इल्ली आटत चल्ल्या अशें दिसूंक लागलां. ही आगळी सोबितकाय कोंकणी भाशेन सांबाळून दवरपाक जाय अशें सांगनशें दिसता. पिकासांव, बेजासांव, कुरासांव, लिसांव, कास्तिकिसांव, गुड्डुलिसांव अशीं जायतीं पुर्तुगेज उतरां कोंकणींत मेळटात. तातुंतलें गुड्डुलिसांव हें उतर ‘Luso-Indiano’. ‘वालोरासांव’ हें मात तत्सम उतर आसुंये. आसूं. एस्. डी. तेंडुलकारान जें ‘वालोरासांव’ केलां ताचेविशीं आतां पळोवंया.

एकूण ल्हान-व्हड पंचवीस लेख आशिल्ल्या आपल्या ह्या ग्रंथाची मांडावळ बाब तेंडुलकारान तीन भागांमदीं केल्या. पयल्यांत वट्ट इकरा लेख आसात. (मांडावळ दिल्या तातूंत ‘युजीन आयनेस्को आनी अना म्हांबरो’ ह्या लेखाचो उल्लेख करूंक ना. सातवे सुवातेर तो येवंक जाय आशिल्लो.) दुसऱ्यांत धा कवितांचीं आस्वादनां आसात जाल्यार तिसरो भाग ‘पुरवणी’ म्हण जोडिल्लो आसा. तातूंत तीन लेख आनी काशिनाथ शांबा लोलयेंकार म्हणजे खासा एस्. डी. तेंडुलकार हांचे मुलाखतिचोय आसपाव आसा. (ही मुलाखत बरोवप्यान आपली आपणेंच घेतिल्ली आसूंक जाय. कारण मुलाखत घेवप्याचें नांव गांव हाचो कांयच तपशील दिवंक ना.) तशें पळोवपाक गेल्यार ही मांडावळ चार भागांनी करूंक जाय आशिल्ली अशें म्हाका दिसता. पयलीं दोन प्रकरणां म्हळ्यार ‘साहित्याची व्याख्या’ आनी ‘साहित्य : सामान्य, बरें आनी स्रेश्ठ’ हांचो एक भाग; पयल्या भागांतल्या उरिल्ल्या णव लेखांचो वा निबंदांचो दुसरो, मागीर कवितांचो तिसरो आनी ‘पुरवणी’चो चवथो. ‘मांडावळिचें कसलें घेवन बसला गा? तें व्हडलेंशें न्हय. विचार म्हत्वाचो.’ अशेंय कोणूय म्हणूं येता. खरें. पुणून ललीत साहित्याचे बाबतींत मांडावळीक जें म्हत्व आसा घडये ताचेय परस आंगुळभर अदीक म्हत्व




तें समिक्षा वा शास्त्रीय बरपावळिचे बाबतींत आसूंक जाय. हे मांड वरवींच बरोवप्याक पुस्तकांत जो विचार, सिद्धांत वा तत्त्व मांडपाचें ताचे पर्यंत पावपाची सपणां तयार जायत वतात. ह्या सपणांक त्या तत्त्वामेरेन पावप वाचप्याक वा अभ्यासप्याक सोंपें जाता. पूण आपणें कितें सांगलां वो आपूण सांगूंक सोदतां तें वाचप्याक कळ अशें दिसता जाल्यार तेविशीं म्हाका कांय म्हणपाचें ना.

दुसरी गजाल म्हळ्यार, ह्या ‘वालोरां’त कोंकणी कविते संबंदांतल करपी लेख, निबंद, नियाळ वो आस्वादनां बी मेळून वट्ट सोळ आसात. तेन्ना ताचें स्वरूप कोंकणी कविता विश्वाची भोंवडी (जाय ज मिनी भोंवडी) म्हणूं येता, अशें जालां. ते भायर, तातूंत नवलकथे दोन, नाटकाविशीं एक, कथेविशीं एक, ललीत निबंदाविशीं एक, समि एक आनी अणकाराविशीं एक – ‘युजीन आयनेस्को आनी अना म्हां – अशीं फकत सात बरपां ह्या झेल्यांत आसात. ‘शीला कोळंबकार उकती चीट’ हें बरप खरें म्हळ्यार तांचे ‘विद्येच्यान तर’ हे कथेचें आ पैकीं बोरकार, पुंडलीक नायक आनी अना म्हांबरो हांच्या साहित्यावि तीन लेखांकूच समिक्षा लेख म्हणूं येतात. उरिल्ले पांच लेख नियाळ. लेखकाच्या म्हणण्याप्रमाण वर्तमानपत्री लेख. तेन्ना ह्या ग्रंथाचें स्पश्ट जाता तें अशें : लेखकाचें समिक्षा विचारांविशिंचें मतप्रतिपादन, नियाळ, साहित्य समिक्षा, काव्य आनी कथा आस्वादन आनी मु ह्या सगळ्यांची गांथन म्हळ्यार तेंडुलकाराचो हो ‘वालोर’.

तेंडुलकारान ‘वालोरां’त गुंथिल्ल्या लेखांच्या पूर्वप्रसिद्धी विशिंच्य ह्या ग्रंथांत दिवंक नात. ‘तातूंतल्याच कांय लेखांचो ह्या पुस्तक आसपाव केल्लो आसा’ इतलेंच ताणें सांगलां. फुडें वचून तो अशेंय म्ह ‘मुळांत ते लेख हांवें वर्तमानपत्रा खातीर आनी सदराच्या रुपांत कारणान तांकां वर्तमानपत्री मर्यादा पडल्या, हाची म्हाका पुराय जाण आसा. ते नदरेन हें एक सेमी-समिक्षेचें पुस्तक आसा अशें कोणेंय म्ह ताका म्हजो मातूय आक्षेप नासतलो.’ बरोवप्याचें म्हणणें खरेंच हें एक सेमी-समिक्षेचेंच पुस्तक. पूण ताचो एकूण थातोमातो मात कोंकणी समिक्षेच्या मळार कितेंतरी नवो विचार मांडटां असो आशि

…ा तरेची 'संपादकीय' स्वरुपाची आनी वळणाची भास बरोवप्यान …पणायल्ली जाणवता. म्हाका दिसता, ताणें हें टाळूं येतालें. …भ्यासकाच्या हाताक जें कितें 'श्रेयस' ह्या ग्रंथावरवीं लागता …आस्वादन'. कवितेचें, खंयचेय एके कथेचें वा बरे कवितेचें …न बरें कशें करूं येता हे विशीं हें पुस्तक कोंकणी कथेचो …चो अभ्यास करपी भुरग्यांक खुब्ब उपकाराक पडूं येता. ती …लकाराच्या कवितांच्या आनी कथेच्या आस्वादनां मदें आसाच …णींत आजवेर तरी अशे तरेचो वस्तुपाठ कोणें घालून दिल्लो …ना. ह्या ग्रंथाचें सगळ्यांत व्हडलें 'देय आनी श्रेय' म्हणटात … म्हाका दिसता. कोंकणी कवितेच्या अभ्यासकांक कविता … नितळ दृष्टी, मर्मदृष्टी तांच्या ह्या प्रयत्नावरवीं मेळटली असो … आसा. बाब तेंडुलकारान कोंकणींतल्या कांय श्रेष्ठ कवितांचीं …य आस्वादनां बरोवन उजवाडा हाडचीं अशें तांकां सुचयनशें …काच्या दुसऱ्या भागांतल्या आस्वादनांमदें 'एक भाशीक संरचना' …ो केल्लो विचार तोखणाय करपा सारको आसा. ते नदरेन …राची एक कविता', 'विनायक गोवेकाराची एक कविता', …ायाची एक कविता' आनी 'तुकारामाचो एक अभंग' सारकेलीं …भ्यासपासारकीं आसात. कोंकणी कवितेच्या विद्यार्थ्यांक तांचो …जालेबगर रावचो ना.

…काचे भाशेविशीं थोडेंभोव नदरेक हाडून दीनशें दिसता. …न अभिनिवेश विरयत आसचें, तेच प्रमाण पूर्वग्रहाविरयतय …सामान्यतायेन मानतात. पूण ह्या पुस्तकांतल्या साबार लेखांनी …रल्या ती हे कसवटणेचेर खरी उतरताशी दिसना अशें व्हडा …चें पडटा. ते भायर, 'म्हाका सांगचेंच पडटलें', 'नोंदवन …टलें', 'जावन आसा' अशे तरेचे भाशीक प्रयोग टाळूं येताले. …ल्या भागांतल्या सरसकट सगल्याच लेखांनी प्रयोग जाल्लो …टा.

…मिक्षा लेखन म्हळ्यार फकत येवरोपी-अमेरिकी साहित्यिक, …नी तांच्यो साहित्यकृती वा कृती हांचे उठबस धांवते संदर्भ … हातुंतल्यान वाचप्याक दिपकावं येता; नवी नदर, मर्मदृष्टी …ेना हें घट्ट मतींत दवरचें पडटलें. समिक्षकाची नदर 'चौफेर' …स' आराची पडटा. तेचपरी ती 'सम्यक्' आसची पडटा. …णीन की ती 'सम्यक' आसप हीच समिक्षेची मुळावी अट … जाची नदर 'सम्यक्' तो खरो समिक्षक. आनी ताणें केल्ली …खरी समिक्षा. मागीर ती कोणाक रुचूं वा ना रुचूं. समिक्षकाक …लागना. तेच परी ताका दुस्वास-मत्सर ह्योय गंजाली आफडूंक … साहित्याचो म्हळ्यार कलेचो न्याय करपी जुवीज. तिका …लावपी पारखी. ताची तागडी दोन दाल्यांची बाजारू तागडी …तीचें जें वाहन, जो राजहंस, तीच ताची तागडी: 'नीर' आनी …लें 'क्षीर' तेंच तो स्विकारता आनी 'नीर' जाग्याचें जाग्यार …च म्हणटात 'नीर-क्षीर न्याय'. समिक्षेक न्यायाचें हेंच तत्त्व … ते वरवींच तिणें चलूंक जाय. जगांतल्या साबार समिक्षक … बरप वाचलें आनी ते उखलून जशातशें लाक्पाचो प्रयत्न …र तो निर्फळ जातलो. समिक्षा बरप म्हळ्यार सांच्यांतलो, …णपती न्हय. वाचनान स्वताक Vision प्राप्त जावंक जाय, … जाय. तातुंतल्यान जें समिक्षा बरप जातलें तेंच निजाचें. …ं अडेचें. कलाकृतिविशिंचें निजाचें interpretation करपाची …कान वाडोवपाक जाय. तशे तरेचो 'गृहपाठ' समिक्षक जावंक …णएकल्या अभ्यासकान आपले नदरेक आनी बुद्दीक दिवंक …जें मत्त. बाब तेंडुलकार पयल्या प्रकरणाचे अखेरेक म्हणटा, 'म्हजो समिक्षाव्यूह मांडपाक आनी ते नदरेन साहित्याचो वालोर करपाक हांवें म्हजी साहित्याची व्याख्या दिल्ली आसा. कारण साहित्यविशयक संकल्पना, निकश हांकां स्पष्टता हाडपाक व्याख्येची बैठक ही जायच पडटा.' पूण फुडें वचून केल्ल्या समिक्षा बरपांतल्यान तोच आपले हे म्हणणेक पाळो दिना अशें दिसून येता.

हें पळोवन मुखार प्रस्न उबो जाता: हें अशें कशें जावंचें? हाची जाप म्हज्या मत्तान एकूच, आनी ती म्हळ्यार, ताणें आपणायल्लो 'तागडेचो न्याय'. तागडेन quantity मेजूं येता. Quality न्हय.

ह्या पुस्तकांत जे समिक्षा लेख आयल्यात तातुंतल्या तीन लेखां संबंदान चर्चा करप म्हाका अदीक गरजेचें दिसता. तें अदीक योग्यय जातलें. पूण ह्या तीन लेखांचे जोडयेक ह्याच पुस्तकांत गुंथिल्ले दुसरे दोन लेख घेवचे पडटले. ते म्हळ्यार, 'रवीन्द्र केळेकारांची एक नवलिका – तुळशी', आनी पुरवणींतलो 'बाकीबाब आनी हांव'. 'काशिनाथ शांबा लोलयेंकाराची मुलाखत' हाचो कांय 'अंश'य विचारांत घेवचो पडटलो. 'साहित्य: सामान्य, बरें आनी श्रेश्ट' ह्या दुसऱ्या प्रकरणांत केल्ले 'शेरेबाजी' (comments) कडेनय लक्ष दिवप हांगा आवश्यक थारतलें.

पयलीं बाकीबाबाले कोंकणी कवितेची मोलावणी घेवंया. तेंडुलकारांक कवितेची / कविता लेखनाची बरी जाण आसा हेविशीं मात्तूय दुबाव म्हज्या मनांत ना. कविता म्हळ्यार कितें हें तांकां नव्यान हांवें सांगची गरज आसा अशें म्हाका दिसना. पूण एक गजाल हांगा सांगुंकूच जाय: ती म्हळ्यार, कोंकणीच्या हेर भयण-भासांतल्या कांय कवी भितर आशिल्ली प्रवृत्ती बाब तेंडुलकार हांच्यांतूय कवी आनी समिक्षक म्हण आसा हाचो 'प्रत्यय' म्हळ्यार तांचो हो 'वालोर'. बोरकारांचे कवितेविशीं ताणी जी शेरेबाजी केल्या ती एकतर अज्ञानांतल्यान जावं येता वो बोरकार सोडून हेर कविंच्या, देशीविदेशी भासांतल्या कविंच्या कवितांचो तांचो अभ्यास फावो तितलो जाल्लो नासुंये म्हण आसूं येता. खंयचोय कलाकार, साहित्यिकूच न्हय, जेन्ना आपणाली कलाकृती साकार करता, ताची रचना करता, तेन्ना तो एक सोद आसता. ताणें आपणेंच आपणाचो घेतिल्लो सोद; वा, असो सोद घेवपाचो प्रयत्न. हो यत्न सततचो आसता. आनी देखून, सोदय सततचो आसूंक जाय. तसो तो आसताच. ताका लागून सदांच त्या कलाकाराकडल्यान masterpieceची अपेक्षा करप हें ताच्या बरेंमागत्यांक वो चाहत्यांक लेगीत सोब सारकें न्हय. जगांतल्या साबार व्हड कविंनी 'प्रचारकी' कविता बरयल्यात. फकत बोरकारांनी अश्यो कविता बरोवंक नात. आनी असल्या कवितांची मोलावणी करपाक कोणा समिक्षकाची गरज निखालूस ना. जिका 'प्रचारकी कविता' म्हण वळखतात तिचें सौंदर्यशास्त्र 'वेगळें' आसता हें मतींत दवरीत जाल्यार तिचीय बरी समिक्षा करप शक्य आसा. आनीक एक प्रस्न हांगा म्हाका विचारीनसो दिसता. खंयची कला प्रचारकी नासता? सविस्तर बरोवपा सारको विशय हो. 'प्रचार आनी साहित्य' वो 'साहित्याचें प्रचारमुल्य' अशे तरेच्या माथाळ्या सकला हाची विसकटावणी करपी दीर्घ चर्चा करूं येता. आसूं.

प्रस्न तो ना. बोरकार मराठींत व्हड आनी कोंकणींत 'गिड्डो' अशें म्हणप समा जावंचें ना. दर एके भाशेची, प्रदेशाची, संस्कृतायेची सुंदरतायेविशिंची एक स्वतंत्र संकल्पना आसता. ते ते संकल्पनेच्या आदारान ताची सुंदरताय, सोबितपण न्हय, पारखुची पडटा. तेच प्रमाण सौंदर्य संकल्पना कालसापेक्षूय आसता. आपूण बरयतां ती 'समिक्षा' म्हणपाचें समिक्षकान पयलीं मतींत दवरूंक जाय. समिक्षा हें उतर 'सम' आनी 'अक्ष' ह्या 'पदां'नी घडलां. तातूंत 'सम' म्हळ्यार 'सम्यक' हें पयलें पद दुसऱ्या पदा परस चड म्हत्वाचें. घडये तेंच पद म्हत्वाचें आनी 'अर्थपूर्ण'. 'अक्ष' हें पद फकत पयल्या पदाक 'अदीक अर्थपूर्ण' करपाक हातभार लायता. तेंच खरेपणानशीं ताचें कार्य. ज्या समिक्षालेखनान 'सम' वगडायलें

ताणें सगळेंच वगडायलें अशें म्हणूं येता. बरें गायलें म्हण जायना, आवडतानो खुब्ब मारूं येतात पूण समेर जाका येवपाक मात्तूय कळना वा ती तांक जाचे लागीं ना ताका कोणूच गायक म्हणचोना. समिक्षा बरयतल्यान 'सम' पातळेचेर वचून वा तसो वचपाचो यत्न करून खंयचेय कलाकृतिचो आस्वाद घेवचो पडटा. 'ट्रेजडी'चीं सुत्रां 'कॉमेडी'क लावन समिक्षा बरयली जाल्यार ती त्या 'समिक्षालेखना'चीच ट्रेजडी जातली. आपणाक आवडटा, आपणें वाचलां तेंच व्हडलें, हेर सगळें उणाक – हीण ही वृत्ती समिक्षेक मारक हेंय लक्षांत दवरचें पडटलें. जाका 'सम' पातळेचेर वचूंक कळना ताची 'समिक्षा' 'समा' थारुंकूच शकना.

कविता ही भाशीक संरचना अशें शिकप आनी तें घोकीत रावप समजूं येता. पूण आपूण करतां तेंच interpretation, तीच अर्थावणी final अशें समजप हाका कितें म्हणप हें म्हाका समजना. जी कलाकृती सगळ्यांक, जाणट्यांक आनी नेणट्यांक लेगीत, आनंद दिता तीच खरेली व्हडली कलाकृती. दर एकल्याक भाविल्ली, उमजल्ली, आकळिल्ली वा दिस्टावो जाल्ली अर्थावणी विंगड विंगड आसूं येता. तेंडुलकारांक हांगा म्हाका इतलेंच सांगन दिसता की बोरकारांचे समग्र कवितेचो तांणी सामग्र्यान अभ्यास करचो आनी मागीर नव्यान तिची समिक्षा बरोवंक घेवंची. ना म्हळ्यार ढोंगी लोकांक कांय उणाव ना. मराठींत म्हजे वळखिचे आमचे कांय गोंयकार मराठी कवी आसात. बोरकार कवीच न्हय म्हण सांगपी आनी तांच्या नांवान दवरिल्ले पुरस्कार मात मोठ्या दबाज्यान स्विकारपी. साहित्यांत आयज 'नवे नैतिकते'चें यूग आसा. तातूंत हीं ढोंगां खंय बसतात हांव नेणा. जाणट्यांविशीं आदर बाळगप ही आमची संस्कृताय न्हय ?

पुंडलीक नायकांच्यो नवलकथा आनी नवलिका हे संबंदान जी कितें समिक्षा ह्या ग्रंथांत आयल्या ते विशीं लेगीत जायत्यो गजाली सांगूं येतात. खोलायेन वचून चर्चा जावं येता. पुंडलीक जालो तरी एक तरणाटोच साहित्यीक. पूण ताणें जी नामना कोंकणी साहित्याक आनी भाशेक आनी अशे तरेन कोंकणी समाजाकय जोडून दिल्या ते विशीं आदराची भावना मुजरत आसूंक जाय. अशी आदराची भावना बाळगून लेगीत बरें, अभिनिवेशविरयत, समिक्षा लेखन शक्य आसा. पुंडलीकाचे 'अच्छेव' सारकेले, कोंकणी नवलकाणयेचो 'मुळारंभ' करून दिवपी नवलकाणयेची तुळा हेर भासांतल्या ते तरेचे नवलकाणयेकडेन करूं येताली. तेंडुलकारान तें टाळ्ळां. तांकां मराठींत 'कोसला'बगर दुसरी कादंबरीच दिसना. आनी विदेशांत दोस्तोएव्हस्की आनी काम्यू. पूण तांकां खबर नासुंये की 'आऊटसायडर'चेर आतां नव्यान बरेंच तिखट बरोवन येवंक ल इंग्लेजींत कीट्स आनी फोस्टरच्यो आनी मराठींत फडके आनी ख हांच्यो कादंबऱ्यो स्रेस्ट मानताले. समिक्षकांक तांचेबगर कांयच सुचना तेन्ना 'रणांगण' सारकेले युगप्रवर्तक कादंबरेक मराठींत १८ वर्सां वाट प पडली. कांय देडशाण्या टिकाकारांनी ती कादंबरीच न्हय म्हण शेरेय मा तेंच कित्याक, 'कोसला'चेय बाबतींत अशेंच जाल्लें. आनी मार्ग तकलेर घेवन नाचतल्यांनी तातुंतले दोश नदरेआड केले. हें अशेंच च 'बेटां' तयार जायत वतात. तेन्ना समिक्षकान ताचे पसून आपणाक दवरूंक शिकपाक जाय. निदान तसो प्रामाणीक यत्न तरी करूंक सगळेंच 'नेती.. नेती...' म्हळ्यार जांवचें ना. आनी समिक्षकान तशें म्हण साहित्यिक आपली निर्मणी थांबोवचो ना. ताणें ती थांबोवं नये.

अना म्हांबऱ्यान केल्ल्या युजीन आयनोस्केच्या 'दि बाल्ड सो ह्या नाटकाच्या अणकारा बाबतींत केल्ली तुलनात्मक चर्चा मात स म्हण बाब तेंडुलकारामदीं आशिल्ले तांकिची गवाय दिता. तांणी हे बरें समिक्षालेखन करचें अशें हांव तांचेलागीं मागतां. समिक्षालेखन व सोदतल्या कोंकणी भावंडांक ह्या ग्रंथाच्या निमतान एक हारसो मे तातूंत पळेल्यार आपलीं धोंगांपोंगां पळोवपाक मेळटात आनी तेच व त्या हारशाची 'प्रवृत्ती'य जाणवूं येता, हें ताचें अप्रूप.

**वालोर**
**एस्. डी. तेंडुलकार**
**राजहंस वितरण, १९९८**
**पानां : १४४**
**मोल : रु. १००/-**

* * *

## पोंच

**सतां–खतां** (कवितां-झेलो)
जे. बी. सिक्वेरा
मांड सोभाण, मंगळूर, १९९८
पानां : ११२
मोल : रु. २०/-

---

☐ एक तर खंयचेच सभेंत उलोवपाक वचचें न्हय. वचचें पडलें जाल्यार नाका जाल्लें उलोवचें न्हय. जंय अधर्माक धर्म म्हूण दाखोवपाचो वा फटीक खरें म्हूण सिद्ध करपाचो यत्न चलता ते सभेचेर बहिष्कार घालचो. चार चौगांचें जें बरें भलें करता ताकाच धर्म म्हणटात. जो धर्माची राखण करता ताका धर्म राखता. म्हूण धर्माचो अवमान जाता असले सुवातेर वचचें न्हय. धर्मच आमचो इश्ट. मरणा उपरांतूय तो आमचो सांगात सोडिना. अधर्माचो एक वांटो तो करतल्याच्या वांट्याक येता. दुसरो, तो सोंसून घेतल्याच्या वांट्याक वता. तिसरो, ताचो प्रतिकार करिनासतना आयकून घेतल्याच्या वांट्याक वता आनी सगळ्यांत व्हडलो वांटो ज्या राज्यांत हो अधर्म चलता त्या राज्यांतल्या राज्यकर्त्यांच्या वांट्याक वता.

— मनुस्मृती

REG. No. GOA